# काव्याञ्जलि

## (कोंकणी कविता)




अञ्जलि किणि




**कोंकणी केन्द्र - गोश्रीपुर**
इन्द्र महल, किळिकार रोड
कोच्ची - ६८२ ००२

# काव्याञ्जलि

(कोंकणी कवनँ)

**अञ्जलि किणि**



पयली उजवाडावणी : २०१८

५०० प्रति

मुख चित्र :

**अञ्जलि किणि**

अक्षर जुळणी :

**के. सन्तोष**

मो. : ९८९५२१२५२१

छापणावळ :

**मे. प्रकाश प्रोसेस**

श्रीनिवास मल्लन रोड,

एरणाकुळम, कोच्ची - ६८२ ०३५

फो. : ०४८४ २३५०९६०

प्रकाशक :

**कोंकणी केन्द्र - गोश्रीपुर**

इन्द्र महल, किळिकार रोड,

कोच्ची - ६८२ ००२

मो. : ९०३७४३९६७९

मोल : ₹ १५०.००

# Kavyanjali

(Konkani Poems)

**Anjali Kini**



First Edition : 2018

500 Copies

Cover Picture :

**Anjali Kini**

Typesetting :

**K. Santhosh**

Mob : 98952 12521

Printer :

**M/s. Prakash Process**

Srinivasa Mallan Road,

Ernakulam, Kochi - 682 035

Ph : 0484 2350960

Publisher :

**Konkani Kendr - Gosripur**

Indra Mahal, Kilikar Road,

Kochi - 682 002

Mob : 9037439679

Price : ₹ 150.00

# कृष्णार्पण

ह्ये दोळे तुजे दर्शनाक कृष्णा
कान तुजे काणियांक कृष्णा।

जीब तुजे भजनाक कृष्णा
मन तुजे स्मरणाक कृष्णा।

हात तुजे सेवेक कृष्णा।
पाय तुजे प्रदक्षिणाक कृष्णा।

हृदय तुजे वासाक कृष्णा
ह्ये जीवन तुजे दास्याक कृष्णा।।





व्होळता ती जाह्नवि श्रीनिवासाले पय्यां लग्गूनु
नत मस्तक ह्यी अञ्जलि तंगेलगि आशिरस मग्गूनु।।

आबु श्री. वी. श्रीनिवास किणि आनि
बप्पम्मा श्रीमति. जाह्नवि किणि
हांगेले पवित्र स्मरणेक

# प्रार्थना

जय जगदीशा लोक उद्धारक
तुजे सन्तानांक देवा राक
सगळीय सृष्टी तुगेली माया
तुजे वास विना व्यर्थ ह्यी काया। (जय)

तुंचि तँ ऊर्जा कोरूक कर्म
खंय तुजो वासु थंय धर्मु
मनान्तु खेळो तुजो उडगासु
तुजे नांव घेवो एक-एक श्वासु।

जय जगदीशा लोक उद्धारक
तुजे सन्तानांक देवा राक।



# दोनि उत्तरँ

देवभाषेचे तूं अवतार
देवनागरीन दिल्ले आकार
भाषा सहस्रान्तु तूंचि तं सुन्दरी
आवसु भाषा तूं शब्द माधुरी ।

एक चेरडाक तजे आवसूचेरि कशि मोगु तशीचि मक्का मेगेले आवसु भाषेचेरि मोगु। तीणे मक्का मस्त चांगपण प्रदान केल्लें। तिगेले नांव ऊंच पावोंवचोय, तिजे संरक्षण कोरचोय धर्मु मक्का अस्स म्होणु दिस्सूनु हांव कोंकणी साहित्य लोकान्तु प्रवेशु केल्लो।

आवसून दिल्ले प्रचोदन, बापसून दिल्ले प्रोत्साहन 'स्पन्दन' मासिकेन कोंकणी साहित्य लोकाचे दार वगते कोरनु दिल्ले। तशि 16 वर्षां थकून (2010) हांव कोंकणीन कविता, काणी सग बोरोवनु येत्ता।

म्हलगडे बोरोवप्याले आशीर्वादान अत्तं मेगेलि कविता सग मेळनु एक पुस्तकाचे रूप घेत्तले। सग देवाले चरणारि अर्पण करता।

।। श्री कृष्णार्पणमस्तु ।।

# प्रसाधकालीं उत्तरँ

“स्पन्दन” कोंकणी मासिके ओट्टु वड्डूनु एय्लेलि लेखिका तँ कु. अञ्जलि किणि। स्पन्दनाचे दुसरे अंक थकून (नवंबर 2010) आरांभिलेलि तिगेलि ह्यी साहित्य यात्रा अतयँ [अक्टोबर (97 वें) अंक थांयि] निरन्तर चलता एयल्या। सुर्वेच् सोणु सग्ग मासांतूयि कविता / लेखन / काणि बोरोव्नु एंची अञ्जलि मात्र तं। वेगळे कोण ना। तन्तु एय्लेलि कविता मात्र एकडे कोर्नु तँ ह्यें पुस्तक तय्यार जल्या।

कोंकणी मोगी, बरोवपी, प्रचारक अस्सि खंचेयि तलारीयि तिगेलो वण्टो (योगदान) अस्तलोचि। कविता, गीन्तु, लेखन, रस्पति खंचेयि जल्यारीयि तिगेले प्रागल्भ्य दाकेयतायीचि। कविता वाचनान्तूयि, गीन्तु म्होण्चान्तूयि तिगेले जाव्नु अस्सिली रीति अस्सयीचि मू !

बिम्ब, निर्माण इत्यादि गोंयचे ‘नेमाळ्यांतूयि’, ‘भांगर भूंय’ कोंकणी दिनपत्रान्तूयि, ‘वैष्णवरत्न’ मासिकेन्तूयि, ‘दीपांकुर’ वार्षिकांतूयि तिगेली कविता / लेखन छापून एय्लेले अस्स।

अञ्जलीलि रचना सरळ, चिन्तोद्दीपक, सारगर्भ अनि आकर्षक। प्लस 1 क सिकतना थकून कोंकणीन बोरोवचाक तान दकेय्ली, ह्यें केरळान्तु व्होड कार्य। साधारणतया काम मेळतरि अनि स्वता पय्यारि रब्बून जत्तरि सग्ग तँ कोंकणी बोरोवप्यानि मुक्कारि येवप दिकूनूचि केरळान्तु युवा साहित्यकारालें पुस्तक छापून एंवचे ना म्होण्यात। यें प्रथम पुस्तक जावयात। ह्या पुस्तकाचे प्रचारान प्रेरण मेळ्नु मस्त विद्यार्थी-युवक कविता-काणि-लेखन सग्ग बोरोंवचाक मुक्कारि येत्तले म्हळेली शुभ प्रतीक्षा अम्मी दवर्तायि। अनि मस्त पुस्तकांचे निर्माण जात्तले म्हणु आशा पांवतायि।

गोश्रीपुर,

1 आश्वीन 1940

कोंकणी केन्द्र - गोश्रीपुर

# विषय सूचिका

# आवसु

देवाक नमन कोरचे फूडे
करता तुक्का वन्दन।
प्रार्थनाय प्रयत्नूय कोरनु तूवे
दिले ह्मे जीवाक स्पन्दन।।

मेजे सन्तोषाचे खातीर
तूवे केल्लो सदा त्यागु।
मारलो कोप्पीलो जल्यारीय
करता तू मक्का मोगु।।

कितली बाधा दिल्ली हांवे
तुजी कितली नींद हरली।।
मेजि सग चूकीय माफ कोरनु
मक्का मोगान वड्डोवनु हळ्ळी।।

चांग बल्लाव सांगून दीवनु
खरी वाट दकयली।
मेजे मनान्तु व्होड विचार भोरनु
उतलेचि ऊंचार पावयली।।

आवय तुजो ममताचो हातु
दव्वरि मेजे मत्यारि।
मेजो जन्मु तूवे धन्य केल्लो
कोटि नमस्कार तुजे चरणारि।।



# कोंकणी

नांव तिजे कोंकणी
मधुर तिजी वाणी
देव भाषेली भयणी
मूळ तिजी परणीं।

कालाचे चक्रान्तु घुवली
कष्टाचे तरंगान्तु पोवली
गांव सोणु गांव ती भोवली
सग सहन कोरनु वर्ली।

अम्मि तिजी सन्तान
तिक्का दींवका अम्मि मान
आंवगेली आवसु म्होणका गर्वान
ह्ये चेरडुवारिं जावो तिक्का अभिमान।



# गुरु

कितले पल्ले अस्सय पिंपळारि
कितले नक्षत्रं अस्सय मळबारि
कितले अस्स उद्दाक समुद्रान्तु
कितले अस्स जीव जगान्तु
गुरूली महिमा तुतली व्होडि
वर्णन करता तशी जत्ता चडि।।

आवसु बापसु जल्यार तिस्सरे स्थान
देवा मुर्तम कोणाक दित्ताय मान
चिकलान्तु थकूनु कोण करता कमळ
चाँग उपदेशान मन करता निवळ
नित्य करता ते गुरुले स्मरण
निश्चिन्त जत्ता मोह-माये तरण।।



# दोळ्यान पोळोंवचे

प्रकाशान तक्का दिल्ली ती ऊर्जा
दार काणु तो आयलो भायर।
केल्ली ताणे आनन्दाची वृष्टि
दिकूनु देवान केल्लीली सृष्टि।।

चारीय दिक्कारीय घूवनु तो चोयलो
चाँग बल्लाव तो दिकूक लागलो।
सौन्दर्याक मेळूनीक जल्लो भ्रमीत
विवेकालगि ते सोळ्ळें संगत।।

रूप चोवनु कोरूक लागलो टिप्पणी
रूपान वच्चीली ते वस्तूची काणी।
सौन्दर्याचे अभाव ते जल्ले कुरुप
ह्यी चिन्ता वाडली जावनु वीषा सोरोप।।

कुरूपाची अवहेळना मस्त केल्ली
अन्त तांय सौन्दर्या आस वरली।
व्यर्थ जल्ले कळ्ळेले एक-एक श्वास
नेणतना अपण्यारीचि सौन्दर्या वास।।



# जीवनाचि कला

ह्यें जीवन देवाली अत्भुत लीला
ते नयन कोरचि ती सुन्दर कला।
विचार नत्तिल्ले जीवन इत्तें ?
ऊँच नीच सग येत्तले जायतें।।

सर्व मनुष्यांकय जत्ता ती चूकि
गोड फल मेळूक भोग्गूका दुक्कि।
हरवपा मुक्कार हरवून दिश्शि
प्रयत्नान्तु थकूनु मगल्यान सरशि।।

भविष्याचे निर्णय काडूक बाद
शुभचिन्तकांक अस्तले अनेक वाद।
वैद्यु जा तूं ना जल्यार अभियंता
जल्यार जांवका तूं इत्ते हृदय म्हणता।।

वेगळाले चिन्तेन्तु ना तुमका कायरीं
मित्रत्व करि तू सोडि ती वैरिं।
शत्रु लगि तूं दव्वर्शि द्वेष
द्वेषान चडयशि मनान्तु वीष।।

सग समस्येकय अस्स उपाय
धैर्य तुजे दूर काडता अपाय।
वाट ती वायट तूं स्वीकार करशि
छलाचे जालान्तु गुडलावनु पडशि।।

जैताचे मोहन जशिशि भ्रमित
स्वार्थान जीवन करशि सीमित।
करि तूं कायरि पूर्ण मन दीवनु
जैत ते येत्तले मगल्यान धावनु।।

रळ्यारि संकटा पार तूं पावना
रण्णे ते घय्याचे वखद जायना।
जांवका तुक्का तुजेरीच विश्वास
संकटाचे वेळारीय सोडशि ती आस।।

वेगळ्या लगि अपण्याले जीवन
करशि तुलन तूं देवा दयेन।
तुजे मनान्तु इत्तें ते करि वाक्यान्तु
ना तुक्का भिंवचाक कोण ह्ये लोकान्तु।।

एकलो जल्यारीय सोणक्का तत्त्व
धर्माक सर्वदा दी तूं महत्त्व।
चांग कायराचे तूं जांवका निमित्त
धनाचे वयरि तुजे व्यक्तित्व।।

वेगळ्या खत्तीरि तूं परिवर्तित जशिशि
मूळ ना जल्यार झाडा वाडि कशि ?
सग समस्येचय तू न्हय धनी
हास तूं निर्भय ना कसली हानी।।



# रुकु

सनचि झाड वड्डूनु वड्डूनु
वोत लागून उद्घाक ओड्डूनु
ऊंच ऊंच चोणु पावनु
रब्बीले व्होडु रूकु जावनु।

सग खंदेय विस्कळावनु
रब्बीला तो मळबा चोवनु
तजे पल्ले नांचताय वार्यान्तु खेळनु
सावण्यांले गिन्ता लगि मेळनु।

वोत्तान्तु रब्बूनु दित्ता छाया
परोपकार कोरूक सगळी काया
जांवचे फळ सग दान दित्ता
तो जन्मु पुण्य कोरनूचि सरता।।



# मूळ

बीयाळ्यान्तु थकून रेवेन्तु
देवनु वत्ता हांव भूमीचे गर्भान्तु
उदकाचो अंशु सोद्दूनु
मस्त योजना पेळतान्तु वड्डूनु।

ऋतु पर्ततेरि रुक्का रूप पर्तता
अंकूरी येत्ता तर्णो पल्लो निक्कळता
आयचो खंदो फाय रक्कूड जत्ता
जल्यार काळ् धावंता तकीत मेजे बळ चडता।

मेज्जानचि ते रुक्काचे अस्तित्व
हांवचि ते जीवाचे निमित्त
हांव अस्सु भित्तरि रूकु अस्स
रूकु अस्सु भित्तरि तुजो श्वासु अस्स।



# पल्लो

अंकूरी जावनु जन्मल्लो
वोत्तान्तु पोणु वड्डल्लो
पावसाक कोरर्नु अलिङ्गन
केल्ले वार्या स्पर्शन।

ऊँच वच्चात कोळनु
गांव-गांव भोवयात म्होणु
रुक्कालगि थकून नात तृण्टोवनु
वार्यालगि गेल्लो उब्बूनु।

अर्ध वट्टेरि सोणु हातु
वार्यान केल्लो विश्वासघात
अत्तं सुक्कूनु पोळ्ळो भुंयचेरि
एक मुल्याक कोयराचे राशीरि।



# पक्की

धिंगूळनु भुरकूनु मड्डोवनु
कष्ट काणु ते कोश पिस्सूणु
ती भायर येत्ता पाक विस्कळावनु
परणे रूप मगलान सोणु।

कशि समुद्रान्तु येत्ता शान्त तरंग
तशि पाक फड-फडाव्नु वत्ता ती वार्या संग
तिजि वाट पोळोव्नु अस्सा फुल्लांची रांक
तिजे तोण्णान्तु अमृत रक्कोवनु दिंवचाक।

झाडा मद्दें ती निप्पूनु खेळता
लोकान्तुले सौन्दर्य सग ती दोळ्यान्तु भरता
केद्दाणा काळूकु जत्ता, दीसु सरता
ती एक मुल्याक बेस्सूनु ध्यान करता।

तप केल्ले कालांक ह्यो जन्मु घेंवचाक
संघर्ष केल्ले मस्त ह्ये लोकान्तु येंवचाक
क्षणभराचे जीवनान तृप्ति पावनु
वत्ता ती वेगळ्यांक आदर्श जावनु।



# आत्मा

बायल जावो दद्दूलो
कसले ना भेद
खंचे शरीर मेळ्यारीय
आत्माक ना खेद।

ह्ये शरीर पंचभूताचे
आजि लवलवी अस्तले
फाय झरझरेंवचे
परां भस्म जत्तलें।

आत्माक ना नाशु
ना जनन मरण
एक सोणु अनियेक
देह करता धारण।

जन्माचो उद्देश्यु
जल्यार वत्तलीं
वेगळो वेशु घाल्नु
पोरतून येत्तलीं।

न्हंय कशी वोच्चूनु
समुद्रान्तु पांवता
ते मर्दीन आत्मा
परमात्मान्तु मेळता।



# एकता

ह्यो लोकु मेळनु एक कुटुंब
अम्मि सग तजे एकेक खांब
संख्येन अम्मि अस्सय अनेक
जल्यार आमगेले तें मूळ एक।

मानव अम्मि मनूलीं सन्तान
ना तन्तु कोण व्होड ना सान
सग हर्धान्तुय एकचि स्पन्दन
अस्स आमका मन आनी मनाचे बन्धन।

एकाक दुकल्यारि अनेकोलो रडता
व्होळयाले सवळेन्तु धक्कूलो वड्डता
एक आवसूलीचि अम्मि संतान
एक आत्मा वेगळे तन।

एकेक फूल जोडोवनु जत्ता हार
अम्मि सग मेळ्यार ह्यें संसार
प्रेम ते आमचे संस्कार
एकतेचे मंत्र करताय उच्छार।



# बाँयतुलो बेब्बो

बाँयतुलो बेब्बो
नुतोचि उदकान्तु लोळनु
हस्सून खेळनु बेस्सल्लो।

कांय कळना तुक्का
ह्यो लोकु कितलो विशालु
सगटानेय खेळु केल्लो।

भायर सरलो
लोकु चोंवचाक
देवलो बाँयचे भायर।

दिक्कीलो मारु फारु
रगता बम्बाळु
देवनु राबलो निस्सहाय।

खंय की सत्य
खंय क्षमा
खंय मेळ्ता समाधान।

आनी चड चोंवचाक
त्राणी ना कोळनु
धंपीले दोळे कान।

हर्दे दुक्कूनु
वैराग्य चोणु
मारली बाँयतु केवली उडकी।

ह्यो लोकु व्होडु
जीवन सान
बाँयतूचि मक्का तृप्ती।



# मोल

जावयात बिक्कण्डा सोल
जल्यार तक्काय अस्स मोल
हात्तान्तु थकून केद्दाण वत्ता
तव्वळि तजे मोल कळता।

म्होणूक एक उत्तर
तरसेता मोन्याली जीब
काळुकान्तु पोणु कुरडो
सिरापीता तगेले नशीब।

तन्नेल्याक एकु थेंबो
उद्दाकय अमृत
भुक्केल्लो आशेता खांवचाक
एकु कोणु सीत।

एक-एक दुड्डॅ जोडोवनु
दरिद्रु दीसु काडता
केद्दाण दुड्डॅ सरता
धम्मेल्याक तजे मोल कळता।

कत्तोरनु घल्लोलो रूकु
सावळि आमका दीना
आयुस्स सरलेले प्राणियालो
प्राणु पोरतूनु येना।

ह्यो विस्सोरनु मानवु
कोरचे सग करता
हात्तान्तु अस्सिल्लेय वत्तेरि
मगल्यान चोवनु रडता।



# फूल

आजि फुल्ला तुक्का फुल्लूक वेळु जत्ता
लज्जेन पल्या मगलान रब्बून इत्ति करता ?
पावसांतु रब्बूनु मस्त तूंवे केल्ले स्नान
सूर्याले तेजान्तु वड्डूनु तुक्का मेळ्ळे ज्ञान।

आनी तोण्ड उब्बारनु तू ह्ये लोका चोय
तोडोवु करशि कळना इत्ति जत्तले फाय ?
तुजे सौन्दर्य चोवनु कितले दोळे भरताय
तुजो पोरमोळु घेवूक कितले प्राणियों भोंवताय।

भय्य नक्का कोण तुक्का तुण्टोवनु व्होरना
तुजि पत्तियों पिस्सूण कोण मत्यार मळना।
व्होग्गि यो उट्टावनु रब्बोव्नु तुजो खेळु
सनूचि जन्मु ह्यो कोळना कशि वत्तलो वेळु।।



# मेजे मन

मन मेजे मायेन्तु भित्तरि
खाल देवनु वत्ता
बुद्ध्येक मेजे बंधि कोरनु
आशेचे संग भोंवता।

दोळेय कन्नेय धंपुनु दोव्वोरनु
इच्छा पूर्ति करता।
निर्णय कोरूक असमोरु काणु
वाट घुस्पुनु वत्ता।

नियंत्रण नत्तिल्ले धावनु भोवनु
विचार मेजे हरता।
तत्वांक मेजे निन्दा कोरनु
वायट कर्म करता।

मस्सळि कशि फटवण पोणु
जालान्तु वच्चूनु सिर्कता?
पक्कुट कशि भ्रमु लगूनु
उज्जान्तु पोणु लस्सता?

मन तशीचि मोहु कारण
मायेन्तु वोच्चूनु पडता
सुख सोड्डून देवालगि थकून
दूर दूर वत्ता।



# बाल्यकाल सखी

बाल्यकालाचे मनान्तु खेळता चित्र
उडगासान्तु येता मेगेली आत्ममित्र।

एकसाणी शाळेन्तु येत्तालीं वत्तालीं
मगलांचे बांकारी उलोव्नु बेसतालीं।

आमगेले लोकान्तुलीं अम्मीचि राणियों
तशी सांगून केल्ली कितली काणियों ?

पिशा बुद्धि मस्त मनान्तु उद्देली
कस-कसलि घोर योजना केल्ली।

सन-सनचि कायरांक झगडे घेत्तालीं
दोनि क्षण उपरान्त क्षमा मागतालीं।

शिक्षकांक कष्ट दींवचाक अस्सिल्लीं ज्येष्ठ
तरी सिकवणेन्तु अम्मि दोग्गय श्रेष्ठ।

वड्डूनु पावलीं अम्मि वेग-वगळे वाट्टेरी
रोम फुलेवनु येत्ता तो उडगासु येत्तेरी।।



# किणियालि काणि

उज्वाडाचो उत्सवु दीवाळीचो दीसु
दुष्टान कळ्ळो एक निर्दोषालो श्वासु।
सात - आठ पिळगी मगल्यान वच्चाय
किणियालीय रय्यालीय काणि ती आयकाय।।

अस्सिल्लो एकु ब्राह्मणु तो शिष्टु
देवरेशु तो व्होडु धर्मिष्टु
परोपकारान पुण्य भोरनु मेळ्ळे
पूण कालान तग्गेलगि छल केल्ले।।

कोच्ची रय्यान, शक्तान, कर निंबगीले
सारस्वत धर्मसंकटान्तु जल्ले
किणियान खंद्यारि कळ्ळो ह्यो भारु
रय्याले कन्नान्तु पवलो ह्यो विवरु।।

गौड सारस्वत राबताय एकसणी
अस्स तन्तु श्रेष्टु देवरेश किणि।
पाण्ड्यशालेन्तु तक्का सिट्टाचो ब्यारु
कोंकण्यांक ताणे केल्लो उपकारु।।

सर्वालेय कर भोरूक तो जल्लो
कोंकण्याले हित कोरूक सरलो
अस्स तग्गेलगि धन जायते
फाय प्रथम दर्शन किणियाले मत्ते।।

रय्यालि आज्ञा ती स्वीकारु केल्ली
नौका ती पाण्ड्यशाले भायर पावली
कालान कळ्ळो सायाह्नाचो वेषु
मेळ्ळो तंका कृष्ण किणि संगु देवरेशु।

पाण्ड्यशालेन्तु सचिवु तो आयलो
किणियालगि इशि म्हणता तो जल्लो।
उल्लोंवचे अरस एक कयरि गुपीत
तुंचान जत्तले रय्याले हित।।

किणियाले मन ते अति निर्मल
सचिवाले मनान्तु छलचि छल।
दोग्गेय उल्लोंव्याक कूडान्तु सरलिं
तवळी राज किंकर तीं पावलीं।।

सचिवान व्होड कपट केल्ले
किणियाले मत्ते ते घुंवण्डानु धरलें।
किंकरान्तुले एकलान खण्डे ते कळ्ळे
किणियाले शरीराक शीर्ष ना जल्ले।।

तम्बीडे पट्यान्तु मत्ते मन्दून व्हेल्ले
हर्दूसा रय्याक प्रदर्शन केल्ले।
रय्यालि शक्ति केवल नव्वान वरली
दोनि उत्तर उल्लोवनु चूकि निपयली।।

दिक्कूका आस्सिले किणियाक जीवन्त
इत्या मूढां तुम्मि केल्ले तजे अन्त
किणियालें जीवान सोळ्ळे शरीर
पूण तग्गेली काणि ती जल्ली अमर।।



# कायळो

कायळा इत्यारे तुक्का मोगु करनाय जन?
इत्या सदा करताय तुज्जे अपमान?

खरें तां रूप्पान तू अस्सा काळो
वास्तव तुग्गेलो किरकिरा ताळो
दिकिल्ले सग्ग काणु भोर्नु खत्ता
चण्डाळु मळ्ळेले नांव तू घेत्ता

अङ्गण फूट कोरूक सहायु कर्ता
भाव्ण्डांक सर्वांक संरक्षण दित्ता
मेळ्ळेले खाण तूं वण्टो घालनु खत्ता
कामान्तु सदा तू व्यस्त रब्बता

बुद्ध्येन्तु तुक्का कोण तुल्य ना रे
दृष्ट्ये खतीर तू विख्यातु मु रे
दोषा पशि तुक्का अस्सा चड गुण
दुष्कृतान गुण इत्या निपेयता म्हण।



# परीक्षा

आयली रे शाळेन्तु परीक्षा
शीक रे ना आनी रक्षा।
फप्पूणु काडि रे पुस्तक
हून जत्ता मजे मस्तक।
घरकार म्हणताय शीक शीक
चेरडूवँ जप्पीताय देवा राक राक।
राति दीस एक केल्याय
शिक्कून जायना दीस लगि पवल्याय।
शिक्कूक गेल्यार मन्न पावना
मन्न पावल्यार मन्नान्तु जायना।
मन्नान्तु जल्यार उडगासु रब्बना
इत्ति कोरका कोणाक कळना।
परीक्षा पांवता जत्ता भय
दोळ्यान्तुल्यान व्हळता न्हंय।
देवारिं भक्ति ती चडता
राम नाम जिब्बेरि खेळता।
परीक्षा मनुष्यांक विचारु दित्ता
देवाली ती शान्ति फरता।।



# अन्तरजाल (Internet)

ज्वर आयले महा ज्वर
शुभचिंतकांले आयकाय स्वर।
ते ज्वरानि कष्ट पांवताय नर
ह्ये धोक्यान्तु थकून दूर सर।।

नांव तजे अन्तरजाल
वास्तवाक करता मायाजाल।
करता आमका तो दुर्बल
आमचे लग्गि करता छल।।

लोकान्तु सर्वत्र तो व्याप्त
सग सुविधाय जत्ता प्राप्त।
आळु तो चकचकीत
तजे अभावान जन जत्ताय कुपीत।।

तो अस्स जल्यार कांय नक्का
वच्चा जांवना सोणु तक्का।
वेळु वच्चे कोळना तुक्का
भुकेय नीदेय ना जल्ली मक्का।।

लोकान्तूले सर्वांकेय
तो मेळूक अवसर दित्ता खंय।
तग्गेलग्गि नत्तिल्ले ना कांय
म्हण तुक्का इत्ति जाय ?

तो करता जावयात सहायु
आधुनिक लोकाचे तो रायु।
पुण व्याप्त करता तो महा ज्वर
मनीश जत्ताय निशाचर।।



# ब्रह्माली सृष्टि

स्वर्गारि सर्वै शान्त जल्ले
ब्रह्माक वेळु गेल्लोना
प्रयोगु कोरूक मन्न केल्ले
पूण इत्ति करप ? कॅळ्ळेना।

प्राण्याक एकल्याक हत्तान्तु कळ्ळो
आठ पय्यारि चम्केयलो
दिवडाक कोरूक अमसोरु जल्लो
पाय दोवरूक विसर्लो।

उंटालि फाटि वंकुडि केल्ली
घोड्याले शींग शेण्डीले
हस्तेले कान व्हड, नांक दीग
पोट वडकूळेंय केल्लें।

मनुष्यालि ती सृष्टि केल्ली
व्होडि चूकि जल्ली
मानवु सृष्टि कोरूक सरलो
ब्रह्मा निवृत्त जल्लो।।



# वरां कोरण्डो

वरां कोरण्ड्या तू स्वयं काळु
रब्बूक सरि ना तुक्का वेळु।
तुजे घूवप दिकल्यार येत्ता घुवळ
तुजे कृत्यान येत्ता जीवाजाळ।।

शाळेन्तु शिक्षकु पाठ काडता
निपून हांव तुक्का चोयता।
दुष्टा ! तुक्का दया ना रे
मुक्कार वच्चाक भाव ना रे।

परीक्षे वेळेरी हांव मगीता
मुक्कार सरशि हांव पायँ पडता।
केप्या ! तुक्का अमसोरु इत्ते ?
धांवल्यार पदक मेळतले जायतें ?



# जीब

जीब ती शत्रु कि मित्र
तिजो स्वभावु बहु विचित्र।

दक्कोवनु एक-एक वेष
ती जीवनान्तु हडता द्वेष
मन्नाचे अवज्ञा कोरनु
ती मोडता नातें भोरनु।

गोड गोड उत्तरान
सग प्राप्त कोरचि विद्या ती जाण।

तिज्जान जत्ता शत्रूय मित्र
ती मनुष्याक वशान्तु कोरचे सूत्र।

जिबेक सबाव सोळ्यार कष्ट
मंदून घल्यार आमका नष्ट
कोण तिजे गोमटेरि घलता दोर
तगेले मुष्ठीन्तु सगळेय संसार।



# तोण्ड

सन्तोषान्तु पोरमोळाचे
फुल्लावरी फुल्लता
वंकाण्सिल्यार वारें भरलेले
फुग्या मरदीन फुगता
कांपु आयल्यार तम्बीडे जावनु
उज्या मरदीन जळता
दुःख आयल्यार उम्मासेंचे
चन्द्रा मरदीन दिसता
तोण्ड ते विकारा संग
सिरळ्या वरी बदलता रंग



# दान्त

दान्त आयले वे सग निंवगूक लग्गली
तोण्ड विस्कळावनु चोंवचाक बावगली
दान्त आयलेले दिक्कून सन्तोषान फुल्ललीं
दन्तुम्बर कोरनु दिवली दकयलि।

कोपु हाडेयल्यार मेळतोलो केवलो घासु
ते दन्ता करतना सगटांक जल्लो प्रयासु
गेल्लो एकु दान्तु दोळ्यान्तुल्यान व्होळ्ळो पावसु
दन्तपड्डो म्हळेले नांव घेत्तलें ते दीसु।

गेल्लेले दान्त पोरतून आयले
अड्सर पोड्सूर जावनु सिरकूनु राबले
एदे मुक्कार गेल्ले एदे मगल्यान देवले
जल्यार हसल्यारीय बत्तीसय दिक्कूक येतलें।

सप्तति जावनु अत्तं लगली नवति
किडियाळे दन्ता कळबाणि दिक्कून लज्जेता राति
जल्यार कोणाक जांवका ये प्रायेरि दान्त धवेचि
दोव्वोर्यात जल्यार भंगराचे दान्त नवेचि।



# केस्सु

चोय तिजो केसु
कुरटाचे खाल
मेगेलो जल्यार
विन्द्रार्ले बाल।
केस्सा पसून सांगून
कितले बायल्यान
उद्दाक थेंबयले
दोळ्यान्तुल्यान।
केस्सा शिंगार कोरूक
घंटो एक
मत्यार लायलेले तेल्लाचे
ना एक लेक
केस्सा खातीर सग
प्राणु सोडताय
केसु वत्ता चोवनु
बेस्सूनु रडताय।
केस्सान्तुय रुप्पान्तुय जन
तृप्ति पावनाय
सौन्दर्या भ्रमान्तु थकून
भायर देवनाय
मत्या ऊँच केसु अस्सून
इत्ति उपयोगु
भित्तेरचे बुद्ध्येचे तँ
कोरका प्रयोगु।।



# आंगा हुनसाणि

आंगा हुनसाणि आयल्यार मनीषु
करता कसले विखार ?
कोड-कोडे येवनु पांगूर्नु पडतेरि
मत्यान्तु कसले विचार?

मत्यां दुक्की भरकुण शींकि
सूण्या भोंकि मरदीन खांकि
इत्तें खेल्यारीय येत्ता ओंकि
घरकार म्हणताय रब्बय झांकि।

वोयदान दिल्लि पुड्डी गूळी
नीट राबल्यार येत्ता घूवळी
पींवका मीट घल्लेले निश्शे
घरान्तु बेस्सूनु लग्गता पिश्शें।



# तूँ काळो कशि जल्लो कायळ्या?

कायळ्या हांव निंवगीता
तू काळो कशी जल्लो ?
राति-मदरातीचे भिण-भिण
कळकान्तु वे तू जल्लोलो ?

की ऊँच ऊँच उबतेरि
वोत घेवनु करपलो ?
की पाक मोणु खाल
गरगडेवनु पोणु चिकलान्तु न्हल्लो ?

की आवसून तुक्का शिंगारनु
कज्जल बुक्को केल्लो ?
की शीवेलि चोंवचाक वच्चानीक
हस्तेन काणु फाप्पूळो ?

की काळे सोरपा घासु पोणु
विष चोणु इशि जल्लो ?
कायळ्या जाप दींवका
तूँ काळो कशि जल्लो ?

"गोरो तम्बीडोचि अस्सिलो हांव
कशि अस्सा मोगर्या कोळो
सगटाले दोळे पोणु पोणु
जल्लो हांव काळो।।"



# बुक्को

नुतो पळ्ळेले बुक्याक व्होरनु
एक खोल्लो चाय दिल्ली भोरनु
उक्कोर्सु काणु लेवनु पीवनु
रोडु लागलो तो मक्का चोवनु
तिकसे-मिटसे दिल्ले खांवचाक
बुक्को लागलो मेजे मगलान भोंवचाक
बुक्याक भूक ती चोणु चोणु
खांवचाक लागलो तो मेजो प्राणु
शिंकून खंकून पडतालो तो
अत्तँ उडकी मारूक लागलो मस्तो
मोन्नो तो म्यावु कोरूक लागलो
म्हन्तारो यौवनान्तु परतूनु आयलो
बुक्यालो तो जन्मूचि पर्तलो
चायेक आमका एक्कोलो चड जल्लो।



# मुम्बूरां

सकाणीचे म्हणताय सुप्रभात
सन्ध्ये वेळारि नामसंकीर्तन
रातीचे रा-री-रो गीन्त
म्हणताय तीं मुम्बूरां जात।

मधुर स्वरान अप्पोवनु
यक्षी गोमटेरि लायता दान्त
तशीचि गीन्तु म्होणु येवनु
मुम्बूरां लायताय शींग सन्त।

मुम्बूरांक मारची यन्त्रां
मस्त मेळताय सन्तान्तु
मुरमुरेवनु तीं एक्केक मन्त्र
धैर्यान चोणु येत्ताय घरान्तु।

रगता थेंबे भुंयचेरि पोणु
कशि जल्लीं तीं असुरां
धा मारलारि शें जावनु
तशीचि पोरतून येत्ताय तीं मुम्बूरां।



# शेणै मम्मालो कोपु

शेणै मम्माक नंकार तॅ कोपु
खंचे जन्मान्तुलो कळना कोणालो शापु
सन-सनचि सुक्के कायरांक
व्होरनु अडळायतोलो मत्तें फतराक।

तक्का दिक्किल्यारि सगटांलीय जीव निपतली
कडकडेवनु जनपद हुम्मेवनु न्हत्तलीं
महर्पि दुर्वासालोचि तो अवतारु
तजो कोपु सगटांचेरीय पडतोलो भारु।

चोग्गो सीवोंवचाक जाय तम्वीडे सीट
तक्का दिक्किल्यारि सुण्या बाल जत्तले नीट
कोपु आयल्यार धरतोलो सिंहाले भाव
वड्डीय घेवनु खेळतोलो तो ताण्डव।

कोप्पान दोळे ते जत्तले वडकूळे
भय्यान जनपद जत्तले रडकूळे
नांकांतु थकून तगेले येत्तोलो धुवोरु
सगटांकय भस्म कोरनु उव्वयतोलो गोव्वोरु।

रत्तीचे येत्तोलो तो जनाले स्वप्नान्तु
घालनु तळतोलो तंका तो हून पोडग्यान्तु
ना ते गावान्तु देव-सर्प शापु
केवल भय, येत्तोलो वे शेणै मम्माक कोपु ?



# भीति भरलीलि राति

रातीचे वरां जल्लीं एक
मनान्तु चिन्तेचे ना कसले लेक
सन्त-सन्त दोळो धंपता
ढक-ढक कवडारी कोणकी वजीता।

मारली केवली उडकी मंचार थकूनु
प्राणु गेल्लो मेजो पायु अडोळनु
घरान्तु एकलीचि, भायर वचाक धैर्य ना
गोन्दोळु घालनु कांय कयरीं ना।

कोणरे-पा ह्ये भिण भिण काळूकान्तु
मेजे कवडारि मारता जल्लि चिन्ता मनान्तु
वळकी मनीष वे की चोरु ?
आनी भूत-प्रेत वे ? जल्लो विचारु।

पिंपळा रुकार बेस्सूनु घुघुम रडता
सूणे जल्यार विचित्र शब्द करता
खीळी काणु, हत्तान्तु बोड्डो घेवनु
घरान्तु थकून भायर गेल्ली देवनु।

चोयली चारीय दिक्कारी
कोल्लो मनीषु ना मुक्कारी
लगी घरकडे रमणक्का परमान्तु
सारियेचे ओर्ल पोणु खेळता वार्यान्तु !

यक्षी ती पिंवचाक आयली रगत
जल्ले मेजे मन भयभीत
हांव झांसी-राणी दिल्ले धैर्य मनाक
सरली लागी परमान्तु सत्य कोळूक।

सुक्कूक घल्लेले व्होरूक रमणक्का विसर्ली
मूढ विचारान लज्जित हांव घरान्तु पर्तीली
घरा मुकार पळ्ळा दिक्कीलो व्होडु नार्लु
कोण कवडारि मारलेले न्हय, मड्डो कळेयतालो
पाडोंचाक जल्लो वेळु !!



# तृप्ति

मानव राशीक अस्स वे तृप्ति ?
समाधान नत्तिले भुंजता व्यक्ति
मोहु वडोवनु सोडता अस्सिल्लि शान्ति
मुर-मुरेवनु भोंवता सग दीस राति।

हत्तान्तु असिल्याक ना कसले मोल
केवल फळ नुपूरो खावंका ते सोल
बुद्धि अस्स आनी जांवका चांग बल
केलीली अंगवणेय जत्ताय विफल।

मेळेले कांय न्हय स्वीकार
आशेची सूची समुद्राचय पार
एक मेळ्यार दोनि, दोनि मेळ्यार चार
तृप्ति जल्यारीय अतृप्त ह्ये संसार।



# नानक्का

हांव खेळूक वत्ता, येत्ता वे अक्का ?
ना रे, भायर देवल्यारि शीं खत्ता मक्का
ना म्हुण संगूक जीब मुक्कारि तुक्का
इत्ते म्हळ्यारीय, ना, नक्का।

जेवि गो, अंबट वडता वे तुक्का ?
म्हळ्ळें मू हांव कांय नक्का मक्का
जल्ली ह्यी प्राणु खंवचाक आमका
इत्ते म्हळ्यारीय ना, नक्का।

काम करि गो आळसे, कुक्का सक्का
ना, मेगेली अक्का आसा, तू सांग तिक्का
विकट बुद्धि हांव इत्ते सांगूका
इत्ते म्हळ्यारीय ना, नक्का।

घरकडे व्रत दव्वरता गो इन्दिरक्का ?
तुम्मि गेल्यार पूरो, वच्चूका नक्का मक्का
तुक्का निंवगिल्यार इत्ति म्हणतोलो तंका ?
अप्पा, म्हण तू आयलीना आमगेली नानक्का ।



# दुड्डॅ

केल्लो हात-पाय खोल्लो
काम कोरनु हुम्मेन न्हल्लो
अल्मारीन्तु अस्सा दुड्वा मोलो
उश्या पोन्दाक चवियां झोल्लो

नीद नत्तिल्लि राति
दुड्डॅ फारनु वत्तॅले मळ्ळेलि भीति
उडकी मारनु व्हणति
स्वप्नान्तु येत्ताय चोरा जाति

धनाचे भ्रमान जन
विक्कूक तैय्यार जत्ताय मान
मनान्तु वडतेरि मोहा रान
दुड्वा मुक्कारि सग सान

मनीष मनिष्यांक विक्कीताय
सगटाचे मोल धनान लेक्कीताय
केल्लोलो सहायु तुलासारि तुक्कीताय
धन मेळता तशीच चड मागताय

मनान्तु केवल लाभु नष्ट
लक्षिंदेवीक अम्मि कोरना कोपिष्ट
दुड्वा गुण बहु विशिष्ट
हत्तान्तु मेळ्यार सोडूक कष्ट।



# व्होडु कि सानु ?

मोगाचो पूतु तो धा-इक्खर वर्षांचो
आवसूलोय बापसूलोय कुटुको प्राणाचो
एकु दीसु व्होड कायरी कोरूक गेल्लो
भांडी काणु आंगडीन्तु वचाक सरलो
ह्ये दिक्कूनु आवसु बापसून म्हळ्ळे
"आयक अम्मि म्होणचे तू कानु दीवनु
ह्ये व्होळ्यांन कोरचें तू अत्तँय सानु।।"

दोनि दीस जावनु लागलो रोडूक
"सूण्या कुत्तीरो जाय मक्का खेळूक",
ह्यें आयकून आवसु बापसून म्हळे,
"आयक ह्ये म्होण्चे न्हय तू चेर्डु
सिद्धान्त काडशी जल्लो तू व्होडु।।"

दित्तायि मस्त उपदेश बापूसु आनि आवय
तो व्होडु की सानु प्रथम कराय निर्णय।।



# विचार

विचार आमचे मनाक खत्ता
देहान्तुले रगतय ओडून पित्ता
ते खातीर अस्सिले केसूय वत्ता
सान प्रायेर मनीषु म्हन्तारो जत्ता।।

कामाचो विचारु कार्यालयान्तु
अंकाची शंका ती विद्यालयान्तु
प्राणाची चिन्ता आतुरालयान्तु
ह्यें काडता मन्त्राचे रूप देवालयान्तु।।

एक गेल्यार येत्ता अनेक विचार
मरण थंय आमचेलगी करता संचार
विचारान्तु बुडला सगळय संसार
गिळता ते जीवनाचे दीस दोनि-चार।।



# मेळूक ना चेल्ली

अत्तँ चेल्यांक चेल्ली  मेळूक ना
ते खातीर चेल्ली चोंवचो खेळूय ना
प्राय चड पणा ऊणे नक्का म्हणा
सिक्वण चड जल्यारीय ऊणे पणा।

बड्डियेचे मर्दीन सुकडी नक्का
जल्यार थोराय सज्जुन्ना तिक्का
वडकूळे तोण्ड चांग जांवका गोरबाणी
दिग्गूसे चिन्तना नक्का कळबाणी।

दीगू-थोरु कळोचि केसु जांवका
तो लंबूनु कुर्टाचे खाल पांवका
केवल चेल्ली बोई जावनु ना कायरी
चांग दिस्सूका तिजी सग सोयरीं।

आनी पोणु येंवका नक्षत्र जातक
बुधु शुक्रु खंय राबला सग बाधक
चोयतेरि ह्यें सग विस्तारय जावनु
चेल्लियों गेल्लीं अस्तलीं ओसल्ले चेल्ले मेळनु।



# कोयरु

घरान्तुलो कोयरु झाणु काडका
ते वगळ्याले अङ्गणान्तु व्होरनु घालका
ते पसावत मारनु घेंवका
मनान्तु तशि कोयरु भोरका।

भण्डीरि वत्तना भूक लागूका
केळे खावनु सालि उडकांवका
घाणि येत्तना नांक धंपूका
कसले राज्य हें सरकारा उल्लोंवका।

घर सगटांकय फूट जांवका
गांवु कशी जावो विचार नक्का
जल्यार उद्याक ते चांग पींवका
श्वासा वायु शुद्ध मेळका।

राबताय कोयरा राशीरि म्होणका
फायचे पसून विचार काडका
मनान्तुले चिक्कोलु भायर घालका
भूमीरि अम्मीचि तं कोयरु म्होणु कोळका।



# गिर गिरा पावसु

भायर भिण-भिण काळूक जत्ता
वारें येत्ता गुडगुडेता
जोरार पावसु सरसरेता
खंय पायु दव्वरता थंय थरथरेता।

जगलेरि बेस्सूनु आयि मुरमुरेता
मुल्याक रब्बूनु आबु कडकडेता
पोण्जब्बोलि जीब गळबुळेता
ते आयकून पोण्जायि कोप्पान चिणचिणेता।

रत्नीरि उद्दाक खत-खतेता
हूनि चाय पिंवचाक मामु वळवळेता
मांय्येले मत्तें दुक्कूनु कणकणेता
मौशेले दोळे फडफडेता।

मेज्जेरि आयदन गडगडेता
ते पय्यारि पोणु आवसु विडविडेता
ह्यें दिक्कूनु बप्पूसु थोडथोडेता
पूतु हस्सूनु निडनिडेता।



# सुंकां कीडि

रुकार थकून भुंयचेर देवनु येत्ता
स्वर्गारि थकून येंवची अप्सरा दिसता
फाटीरि काण्ट्या वरी फुलूनु राबल्यांय कूस
यक्षेक सरी उतलेचि अस्सुन्नाय केस।

पाल्यांचय फुलांचय मद्दे निपतली
लगि आयलेल्यांक सन्त परसीतली
कष्ट! तजे कर्म फल की इत्तें ? नशीब म्होण्यात
लागीचे चौबीस घंटाय खरपून बेस्सुयात।

म्हणताय सग तिक्का सुंकां कीडि
चोरनु येत्ता चोयल्यार दिसता उज्जा-भाण्डि
खंचे जन्मान्तुली शत्रुता दकयता कळना
खरपूनु दद्दोडु येवनु तोण्ड दकोंवचाक वाट ना।



# नीद

इत्या गो तूं येना ?
मक्का तू नत्तिल्ले जायना।
वरां जल्लि बारा
तुजे ना खबर।

आयलो तुक्का कोपु ?
इत्या दित्ता मक्का शापु ?
कस्सलो केल्लो हांवे द्रोहु ?
तुक्का चोंवचाक मक्का मोहु।

केल्लें हांवे तप
मेळ्ळि तुजि जाप।
जल्लि तू प्रकट
आयलि मेजे निकट।

राति धावनु गेल्ली
चोय सक्काणि जल्ली।
वज्जता घडियाळु
तुक्का वच्चाक जत्ता वेळु।

वरां जल्लिं अट्ठड
वोत जत्ता चड।
इत्या तू वच्चना ?
मेज्जेरि कृपा करना ?



# क्षमेची सीमा

मांदून घल्लेले सूण्याक चोवनु
मंकडान वोच्चून भुरकीलें
सूण्याक घल्लेले सीत खावनु
तक्का चाळोवनु दक्कयलें
भोंकि आयकून किर-किर जावनु
बालय हाल्लोवनु दाकयलें
संकाळ तुण्टोवनु सूण्यान येवनु
केवले चाबप चब्बीलें।



# वार्द्धक्य

जीवनान्तुलो सांजे वेळु
कालाचो विचित्र खेळु
यौवनान्तु पोरतूनु वच्चाक ना उपाय
जल्यार मुक्कार काळकाचे भय।

बाल्याचे स्मरण मनान्तु खेळता
कळ्ळेले कष्ट आठोवनु तन अत्तंय जळता
अनेक योजना चोंवकूनु पावलीं
पथिकु अत्तॅ सोद्दीता सावळी।

एकान्ता करतना लागले वैराग्य
केद्दाणा फट्टयतलें कळना आरोग्य
जरजरेता देह कडकडेता मन
घूवनु चोयतेरि दिसता जीवन कितले सान।

भोग्गूनु सोरोंवका केल्लेल्या फल
राकून व्हरतले पुण्याचे बल
काळूक चरता उज्वाडु गिळता
नेणतना सूर्यु समुद्रान्तु बुड्डता।



# पावसु

पावसु पडता आयलो पवसाचो मासु
गीमु तो गेल्लो व्होडु आश्वासु
घरान्तु भित्तरीय भायरेय न्हंय्यों व्होळताय
चेरडुबाळाँ मंचूवो कोरनु खेळताय।

तिम्मूनु थप्पूनु बेसताय कायळे
कन्नान्तु खेळता बेब्याले ताळे
मोड येत्ता बायलांक भीवोवनु वत्ता
गत्तलि विसरलेल्यांक तिम्मोवचाक धावनु येत्ता।

वाट खंयि खॅळि खंयि म्होणु कळना
काण्यान्तु मसाळि पोवल्यारीय मनान्तु जायना।
अस्स कंबळि जल्यार येत्ता कोडकोडे
आळसे जावनु सग बेसताय घरकडे।



# विचारधारा

संगिल्लेंय संगूनत्तिल्लेंय
संगुचेंय संगून सरलेंलय
आयकुच्चेंय आयकोंवच्चेंय
आयकिल्लेंय आयकु नत्तिल्लेंय
दिक्किल्लेंय अत्तॅ दिक्कुच्चेंय
आनी दिक्कू वच्चा अस्सिल्लेंय
जांवचेंय जांवचा वच्चेंय
जावनत्तिल्लेंय जावनु गेल्लेंलय
ह्यें सग मेळनु जत्ता विचाराची धारा
व्होळता अस्तली ती फाय परां एव्वेरां।

समया संग चोंवकूक चोयताय
एकचि मगल्यान पडताय ना मुक्कार धावंताय
आजि मेळचे भोग्गूक विसरताय
विचारा समुद्रान्तु बूड्डूनु मरताय।

कालचे कायरीं आठोवनु इत्ति प्रयोजनु ?
इत्तें मेळता फायचे सपन मेज्जूनु ?
आयचो दीसु रब्बीला मुक्कार सज्जूनु
तेंवय फण्ण घालका विचारान्तु भज्जूनु।
ह्यी विचारधारा व्होळता अनन्त
समयु आमचो ती गिळता सन्त।



# ओप्पुर्बाये फोद्दो

ना ना म्होणु जल्लोलो पूतु
गर्वान म्हणता आबु मेजो पयलो नत्तु
बोब्बो दित्ताय भंगरा चिपटान्तु
झगडताय बेस्सोंवका कोणाले व्हण्टीन्तु।

चमकेयल्यार पय्याक चिक्कोलु जत्ता
घरा भायर देवल्यार सूर्यु चोयता
हून उद्दाक पिल्यार जीब जळता
शेळ पीवनु भरकूण आयल्यार कळता।

घरान्तुलो तो एकलो चेल्लो
पोरसून पोरसून व्होडु केल्लो
मड्या मर्दीन वड्डून जल्लो केद्दो
जल्यार आत्तंय तो ओप्पुर्बाये फोद्दो।



# वेळु

कोणाक की अत्तँ अस्स वेळु ?
अस्तोलो वे एदोचि आंगडीन्तु मेळूक ?
वेळु फारचो गावान्तु देवला चोरु
अस्स तक्का अळसाये आकारु।।

एक दीसान्तु अस्स घंटे चोवीस
वारान्तु सात अस्सय दीस
मासाक दीस सुमार तीस
सग वर्षान्तूय बारा मास।।

वेळु मेळूक ना म्होणु रोणु
तुमी निपताय खंय वोचूनु ?
वेळु जांवका न्हय कोरका
ताजे लगि धावनु पांवका।।



# तुजी करणीं

मेगेले हर्द्याक जत्ता घाय
तूं कडतेरि जिब्बेक धार
तूं दित्तरि घराचे द्वार
मेगेले जीवनान्तु अंधकार।

तूं सोडतेरि हुंकार
रब्बता मेगेलो श्वासु
तू विन्दिल्ले तीख तीर
मेजे मांसान्तु करता वासु।

तूं वेंचिल्ले रकडान
मेगेले मनान्तु जळता उज्जो
तूं मारलेले फतरान
भेत्तल्लो मेजो खुज्जो।

तूं तुण्टेयले फूल
कण्टो तोपताय मेजे सालियेचेरि
तुगेले एक-एक करणी मूल
हांव मरता दूस-दुसेरि।



# कुसुंगायि

कुसुंगाये बीज हर्घान्तु जत्ता
रगतान्तु व्होळता
मनान्तु पोणु जळता
ते धुवरान्तु विचारु मलिन जत्ता।

मेगेले नष्टा खत्तीरि कसले ना विचार
तगेलो नाशु चोयतेरि सन्तोषु अपार
असली मलिन चिन्ता मनान्तु खेळतना
चांग उपदेशाक कांय तरि मोल ना।

वायट आठोंवचीं अस्तलीं जन भोरनु
उज्या वाती घेवनु येत्तलीं किडियो चोरनु
ते उज्या खत्तीरि मनान्तु केदनाय गीमु
तन्तु तूप तीळु घालनु तन्नी करतलीं होमु।

ईर्षेचे वीष मत्याक लागल्यारि
काळूक दिसता दोळ्याक उज्वाडु दिकल्यारि
वखद ना म्हणताय ह्ये एक रोगाक
तोण्णान्तु मत्ते घालनु दिल्यार तृप्ति वग्गाक।



# सन्तान

कशि भिण-भिण काळूकान्तु
दीवो दित्ता उज्वाडु
कशि गीमु दूर कोरनु
पडता पावसु जोडु
सग आवसु-बापसूलि आशा
तशी जांवका आमचे चेरडुं।

मत्यार-व्हण्टीन्तु-भुंयचेरि -
कळना खंय दोव्वोरका
चेरडाले तोण्डारि हासु हाडूक
कळना इत्ति कोरका ?
तृप्ति म्हळ्यार इत्तें ? कळना
चेरडाक दिक्किलें सग जांवका।

'ना-नक्का' ह्ये शब्द चेरडान
आयकूक पणा म्होणु आवसु
बड्ड्येन पोडचे पेट्टा रूचि
कोळूक पणा म्होणु बापूसु
आजि मोगा कृष्णु, वड्डून
फाय जत्तोलो तो कंसु

जीब कळ्यार मुळियो, मत्यार-
वडताय शींग दोनि
चांग उत्तर दोन म्हळ्यार
तक्का जत्ता मानहानी
देह वड्डता जीब वड्डता
जाल्यार बुद्धी अत्तंय सानी।

आवसु बापसूक उजवाडान्तूयि
काळूकु हडता तो दोळ्यान्तु
मत्याक लगता हुन्साणि
कोडकोडे येत्ता तांका गीमान्तु
कोणाली चूकी ? अत्तँ कोणालि दुक्की ?
कर्म पळेयाय अत्तँ फलान्तु।



# मंकडा स्वभावु

व्हय वे अम्मि मंकड न्हय
मंकडान्तु थकून जल्लीलि जायत
रूप मगल्यान सोळ्ळे खंय
मुक्कार सरलीलि स्वभाव सैत।

हत्तान्तु अस्सिले इत्तें सोडका
वेगळीं इत्तें करताय हांवय कोरका
ताणे रुक्कारि चळ्यार हांवय चोडका
तो इत्ति व्हरता हांवय व्होरका।

पाश्चात्य संस्कृतीचे भ्रमान
आचार विचार सोळ्ळे
जांवचानीक तंचे समान
म्हण तुक्का इत्ति मेळ्ळें।

सोळ्ळो अपण्यालो गांवु
वेषु भाषा सोणु गेल्लो
पत्तो विसरलो सोळ्ळे नांव
अत्तँ खंयचो न्हय जल्लो।



# आमगेली गति

गोड-गोड उत्तर उल्लोवनु
मगल्यान खोंपताय पेस्काति
वेगळाले सुखान्तु, सुख सोद्दूक
दीना ती दुष्ट मती।

चूकी जल्ली कळता जल्यारीय
क्षमा मागूक ना प्राप्ति
मागतल्यांक क्षमा कोरूक जायना
ह्यी जल्ली आमगेली गति।

हांव, तू आमगेले, तुमगेले
वण्टो घालनु हाडची रीति
गूण, मूल्य सोणु धावनु
आजि खंय पावली मानव जाति।

आमगेले सग नष्ट जल्ले जल्यारि
तांगेले दुःखान्तु आमका प्रीति
वेगळांले ऊणावु खोणु काणु
जत्ता व्होडि तृप्ति।

सग़ गूणय शेण्डून वरताय अग्नि
जावनु सुन्तु जल्लीलि वाति
प्रकाशु घेवनु सूर्या गेल्लो
आनी मुकार केवल राति।।



# कर्मफल

घूडान्तुले सावण्यालें रण्णे
कोणाले कान्नान्तु वत्ता ?
संकाळेन मंदिल्ले हस्तेलें कष्ट
कोणाक दिक्कूक येत्ता ?

कतरूक व्हेल्लेले गय्येलें भय्यँ
कोणाक मनान्तु जत्ता ?
कूराडि लागून रूक पडताय
ते जीवाचें मोल कोणाक कळता ?

देवाली सृष्टि मनुष्यां खातीर
ह्यो कसलो न्यायु ?
स्वार्था खातीर निर्दोषांक
बाध दिंवचो वायु।

आजि हन्नि फायि तूं
कान दीवनु आयक
कर्मफल फाटि घेत्तलें
तूँचि तुक्काचि राक।।



# आयक

मेगेले जिब्बेवेलीं उत्तरँ
पांवताय वे तुजे कन्नान्तु
कन्नान्तु पावलेलीं वाक्य
चडताय वे तुजे मनान्तु।

हांव सुकेयता ताळो
तू हल्लेयता मत्ते
मक्का संगूक अस्स मस्त
तुक्का मनान्तु जत्ता कि इत्तें।

हांव पेळतान्तु सांगता
मक्का देवोंवका मन्ना भारु
तुक्का आयकूक ना क्षमा
अळतान्तु सांगूक ओंसोरु।

दुःख सांगल्यार जल्ले वैराग्य
संतोषु वांटिल्यार जल्ली व्होडकाय
चांग संगल्यार जल्लो उपदेशु
कोणालगि संगूक वाट ना कांय।

दोनि कान देवाले दयेन
अस्स आमका मानवांक
दोनि क्षण मग्गीता हांव
सांगिल्ले कानु दीवनु आयक।



# अपरिहार्य

शाश्वत न्हय ह्ये लोकान्तु कांय
अमर ना ह्ये लोकान्तु कोण
सुखाचे समुद्रान्तु करतना स्नान
दुःखा तरंग ते अपरिहार्य

इष्टाचे मोहान नष्ट करताय
जन्मु वंधनान्तु पोड्डूक तरी कष्ट म्हण्ताय
स्वार्थाचे खातीर भ्रष्ट जत्ताय
सृष्टि अनेकान्तु विशिष्ट राबताय।

वाट घुस्पूनु खंय भोवल्यारीय
पावतली अम्मि श्रीहरीले चरणारी
संसार सागराचे कोरुक तरण
नौका ती हरीले नाम स्मरण।।



# कलियुग

अकालान्तु घोर घोरान्तरा पावसु
उदकान्तु बुड्डूनु भूमी सोदीता श्वासु
भारु उब्बारनु कुण्टता ती आवसु
तिजो उद्धारु जत्तलो म्हळ्ळोलो विश्वासु।।

समुद्रु गर्जेवनु फतरारि मारता
मत्तें उब्बारनु संत भुंयचेरि चरता
सूर्य तेजान्तु सगळो लोकु तप्पता
मड्डेयलेले कडेचि रेंवय जळता।।

धर्माचे खांबेचि खल्लाक पळ्ळे
मूल्यांचे मूळचि हुमटावनु कळ्ळे
चांग बल्लाव सग फोण्डान्तु पुरलें
सत्य-नीति-क्षमा मानव सग विस्सर्ले।।

वोत्तय पावसूय गुस्पूनु येत्ता
काल परतूनु रूकु फुल्लेता
लक्षण दृष्टान्त कलियुगाचे
येंवचा वच्चे महा प्रळयाचें।।



# क्षमा

एकलाक जांवची चूकि
वेगळ्याक दित्ता दुक्कि
मनाक लागले घाय
तक्का लांवचाक वखद जाय।

अस्सँ दोनि अक्षर
सांगूका एक उत्तर
ते म्होणूक कस्सले कष्ट
म्हळ्यार जत्ता कस्सले नष्ट।

कोण जायना व्होड ना सान
चड-ऊणे जायना कोणाले मान
एक शब्दान जत्तलीं कायरी
एकमेकाली सरतली वैरी।

उदकान उज्जो सुन्तु जत्ता
उज्वाडु आयल्यार काळूकु वत्ता
क्षमा मगल्यार घाय भरता
मनान्तुले द्वेष दूर सरता।।



# म्हन्तारो बापूसु

लग्गी घरकडचो मामु एकु मल्लो
मस्त कालांक घर परिवार चोयलो
एकलो पुत्ताक सिक्कोवनु व्होडु केल्लो
नत्तु नतियांक चोवनु आनन्द पावलो।

एकु दीसु पुत्तान भण्डीरि चोडोवनु व्हेल्लो
वृद्धाश्रमान्तु व्होर्नु बापसूक घल्लो
दीस मास गेल्ले घूवनु चोयना तो चेल्लो
मन दुक्कूनु हर्दे फुट्टूनु म्हन्तारो मेल्लो।

कोणा खातीर तो पूतु ह्ये लोकान्तु आयलो
कोणान मत्यार हातु दोव्वोर्नु सदा आशीर्वाद दिल्लो
पापी तो पूतु ते मनुष्याक सोणु गेल्लो
काम-कुटुम्ब जांवचानीक बापूसु जडु जल्लो।।



# अम्मि सूणीं

भोंवता हांव अनाथु जावनु
बालय हल्लोवनु मत्तेंय बावगोवनु
फत्तोरु केद्दाणा लागतोलो भीवनु
भूमीवेलो आमगेलो वण्टो तुमका दीवनु।

तुमका मानवांक एकूचि विचारु
सूणीं अत्तॅ चळवळेताय
खाणा कुटुक्याक उदका थेंब्याक
तुम्मि दिकनाय अम्मि तळवळेताय।

खंय गेल्लो तुमगेलो स्नेहु
म्हणतालीं मू आमका मित्रां
आमका वट्टेरि सोणु तुम्मि केल्लो द्रोहु
आनि खंतय सोद्दूनु वत्तलि सत्र।

सूणी जल्यार भोंकीतलीं चाबतलीं
तें इत्याक करताय समाचार
उप्पाशि पळयार तुम्मीय काडतली
खाणाचे बगेक कोयत्ये धार।



# सूण्याचि पिल्लां

अस्सिल्लीं पिल्लां तीं सात जाण
खंयि थकून आयल्यां तीं कोण नेण।

सुण्याचि पिल्लां ती खेळनु भोंवताय
उत्सूक जनपद धावनु पांवताय।

सूण्या पील एक बोई जल्लें
एकलान तक्का काणु व्हेल्लें।

हेट्टी ह्यी मक्का नक्का
पेट्टो तो जाय मक्का।

पेट्ट्यां खातीर झगडे जल्लें
हेट्टेक कोण घूवनु चोयनाय जल्लें।

हेट्टी ती कोणाक नक्का जल्ली
वट्टेरी सर्वत्र धावनु भोवली।

रोणु रोणु ती सानी हेट्टी
जनपदालगी संगता जल्ली।

हेट्टी दिकून मेजे अवहेळन करताय
चेल्लियां वर्गालगि अन्यायु करताय।

आनी मक्का कोण व्होरका नक्का
अनाथ न्हयि हांव, देवूचि शरण मक्का।



# निस्सहाय

वट्टेवेलान वत्ताय वाहन
वरां जल्लीं आठ जावनु बावन
राति जत्ता वेळु तव्वळि
दिक्कीलि हांव दुःखाचि सावळि।

गय्यों रब्बिल्यांय भण्ड्येचे उंचार
अस्साय तीं धा-बारा सुमार।
हल्लूक तंका ना तन्तु स्थल
गोमटेरि बड्डी एकि घलता ती बल।

एकि गाय मक्का चोयता जल्ली
तोण्डारि चांग चैतन्य अस्सिल्ली।
दुःखान भरलेले तिजे दोळे दिक्कूनु
व्होळ्ळे उद्दाक मेजे दोळ्यान्तु थकूनु।

चोवनु तिजे तोण्डावेलो भावु
ती म्हणता मर्दीन जल्लो अणभवु।
करि गो मेजे तू रक्षण,
लगि मेजे पावले मरण।

दीस दोनि जल्ले अस्स भुक्केन
रब्बूकेय जायना गो मक्का दुक्केन
मक्का आनी मेजे ह्ये बान्धवांक
व्हरताय हन्नी आमचे जीव घेंवचाक।

सन्त सन्त गोमटेरि सुरि झोरांवनु
प्राण सोणु वच्चे भितरि रोडोवनु
दुक्कोवनु दुक्कोवनु मारुक व्हरताय
चोयगो कस्सले दुष्कर्म करताय।

दुष्टु तो मानवु दानवु जल्ला
पाप कोरनु नाशु हाडूक सरला।
गाय ती आमका दूध दिंवची आवसु
हरता मानवु तिग्गेलोय श्वासु।

कोणालि पुज्जा अम्मि करताय नित्य
तेचि हत्तान करताय तिजी हत्या
निर्दोष ते प्राण्याक कत्तरताय
निर्लज्ज तिजे मांस भोरनु खत्ताय।

हं हांव आठोवनु रब्बिल्ले वेळारि
सरली ते दुष्टांलि भाण्डि मुक्कारि
निस्सहाय जावनु चोवनु रब्बीली
नेण्तना पापाचे भागु हांव जल्ली।



# परिवर्तन

पीलः बापसु मेजे मन खत्ताय ह्ये प्रश्न
पुण उत्तर सोद्दूक असफल ह्ये मन।
मानव ते आमका पूर्वज म्हणताय
सग वट्टेनेय कशि व्यत्यस्त जत्ताय?

मंकडः परिवर्तनान आमचि पर्तीलि गति
आकारा ओट्टु ती वड्डलि मति।
भास जल्ली तज्जी व्हडि संपत्ति
तशि जल्ली मानवालि उत्पत्ति।।

पीलः सीमित जल्ली वे रोमाचि वाडि?
किन्तु खंय गेल्ली तंचि शेंपडी?

मंकडः एकाचे वृद्धीन ऊणे जत्ता अनेक
रोम्मेचे कायरान्तु ह्ये कारण एक।
मानवु अहंकारान्तु बुड्डल्लो
दोन हात-पय्यानचि राज करतोलो।
शेंपडी सहित तंचि कल्पना करि
अहंकारु वडतोलो आकाशाचे वयरि।

पीलः बुद्धियेचे खातीर तोचि वे ज्येष्ठु?
सर्व जीवांचे पशि तो वे श्रेष्ठु?

मंकडः बुद्धिये पशि चडि अस्स शक्ति
सुखारि तक्का व्होडि आसक्ति
सर्वां पशि तक्का चडि तां युक्ति
पुण मायेन्तु थकून ना तक्का मुक्ति।

पीलः	इत्याक देवान पक्षपात केल्ले?
	सग चंगपणेय मानवाक इत्याक दिल्ले?

मंकडः	स्वयं सभ्य म्होणु भोंवचो मानवु
	दुष्कृतान तो जत्ता दानवु
	रुकेय रानेय कत्तोरनु घालनु
	मांस खत्ता निर्दोष मृगांक मारनु
	नक्का रे आमका ह्यी शक्ति आनि युक्ति
	केवल हृदय जांवका तीचि आमगेलि शक्ति।

पीलः	हां ! कॅळ्ळे मक्का आजि व्होड सत्य
	संशयु ना मक्का, तेंचि तां तथ्य।
	आमचेरि थकूनूचि तां मानव जल्लेले
	पुण परिवर्तनान मूल्य ते झोंपून घेतले।।



# जीवालि विनंति

आवसूले गर्भान्तु बेस्सला जीवु
तग्गेलि विनंति आयकता देवु।
हंगा थकून मक्का भायर तू व्हर
तुजि सेवा कोरूक मक्का दी अवसर।

देवाले दयेन लोकान्तु पावलो
आयलोलोय मायेले व्हण्टीन्तु जल्लो।
ना जल्ले देवाले मात्र स्मरण
मायेले हत्तान जल्ले तजे पोषण।

भंगराचो कुटूको तो जल्लो आवसूलो
बपसूलो जल्यार तो मत्यावेलो।
रोणु दकयल्यार चन्द्रेमुय मेळतोलो
मायेकेय फोट्टों धोरनु तो बेस्सलो।

धा-वीस वर्ष व्होग्गि धावनु गेल्लीं
ज्ञानु तक्का मेळ्ळोलोय माया पवली।
दोनि मित्रांक घेवनु आयली हांव
ईर्षा आनि अहंकारु हांगेले नांव।

मैत्रीचे आनन्द रस तो पिल्लो
जैताचे मगलान धांवंता तो जल्लो।
वेषु पोर्तून आयली ती बायले रुपान
जल्लो कुर्डो तो तिजे मोहान।

जल्ली मू तक्का दोनि सन्तति
सोणु वत्ता जल्लि मनाचि शान्ति
लोभालग्गी मित्रता दृढ जल्लि
माया ह्यें चोवनु हस्सूनु रब्बीली।

वेळाक रब्बूक अस्सॅ वे वेळु ?
काळु ह्यो खेळता कस्सलो खेळु ?
वर्षप्रायेर मेळ्ळो वैराग्यालो हातु
मायेक स्थान ना जल्ले हृदयान्तु।

मायेलगि थकून मोचन मेळ्ळे
परमात्माले माहात्म्य तक्का कळ्ळे।
देवा हांव करता तुजे नमन
ह्ये लोकान्तु थकून दी मक्का मोचन।



# नारी

कोणालीय धूव ती कोणालीय भयणी
कोणालीय सून ती कोणालीय पत्नी
कोणालीय आवसु ती कोणालीय मांय
ह्ये लोकाक मुक्कार व्होरूक नारी ती जाय।
वत्ता ती आवसु-बापसूले घर सोणु
तीणे गेल्लेले घरान्तु येत्ता ऐश्वर्य चोणु
दोनि कुटुम्ब ती एकमेळि करता
तांगेले कुल ती मुक्कार व्हरता।
घरान्तुले म्हलगड्यालगि तिक्का भक्ति
बमणाले अर्द्ध ती, कश्शि शिवाक शक्ति
घर चमकेयता तिग्गेली युक्ति
मोहा बंधना थकून ना तिक्का मुक्ति।
ह्यें संगिल्लो कालु शेण्डूनु गेल्लो
कलीन कालु ह्यो प्रदूषित केल्लो
नारी शक्ति म्हळ्ळेले नाव्वान खेळताय
बायल्याले कान भोर्नु वाट घुस्पायताय।
ददल्यान कोरचे बायल्यान केल्यार इत्तें ?
ह्यो प्रश्नु कोरनु हून करताय मत्तें
प्रकृतीन दिल्यां तांका मस्त वरदान
तन्तु कोणाक अत्तं ना अभिमान।
कर्तव्य विस्सोरनु दूर न्हय धांवका
सग्ग दिक्कारीय तिज्जे शें हात्तय पांवका
धर्म-कर्माचे साक जावो कितले भारी
तें उब्बारनु व्होरची तीचि तां नारी।



# निडळावेलो बोरो

अमणक्काले दोळे वत्ताय कपलान्तु
म्हणता "वेळु जत्ता वच्चाक परलोकान्तु"
"इत्ति जल्ले अक्का? मनान्तु कसलो विचारु?
सांग समाधानेन, देवंय सगळो भारु।"

"गेल्ली गो ती, मेजी मोगाची धूव
हर्घारि मेजे चोडोवनु सूव
देवनु गेल्ली परजाती मगलान
घल्ले पेल्लान्तु आमगेले मान।

कायळा पशी काळो - कुंकडा बरी ताळो
बोकडालें खाड - मंकडाले बोड
जल्ले तिक्का प्रेम ह्यो सग चोवनु
जालान्तु घल्लो ताणे मगल्यान भोवनु।

प्रेमाक ना खयं दोळे आनी कान
प्रेमाक ना कोण व्होड ना सान
इत्ति संगप सग निडळावेलो बोरो
गेल्लेली गेल्ली। ह्यो जन्मु कशी पुणि सोरो।"

प्रेमान मनान्तु वड्डता रान ?
रब्बूनु वत्ता बुद्ध्येचे यान ?
वेळु बल्लाव की निडळावेलो बोरो ?
की निर्बलु तुमी ओड्डिल्लो बोरो ?



# समाज

मानवु एकलोचि लोकान्तु येत्ता
एकलोचि पोरतून वत्ता
जल्यार जनन थकून मरण थांय
समाजाचे मुष्ठीन्तु सिरकता।

जीवन म्हळेले एक महासागर
एळतडि जनन पेळतडि मरण
समाज तन्तूले तरंग
करयता ते महासमुद्राचे तरण।

एक समाजान्तु थकून धांवतल्याक
वेगळे समाज गिळता
विंगड विंगड जनाक धोरनु
समाज बळान फांति व्हिणता।

'समाजाक दिंवना मान, मक्का व्होड हांवचि'
मानवा तूं उल्लयता मस्त तत्व
तू समाजान्तु उद्देलोलो समाजान्तूचि बुडतोलो
ते नत्तिल्ले तुगेले कसले अस्तित्व।



# व्हरडीक

दोनि कुटुम्बाचे मिलन
जन्म जन्मान्तराचे बंधन
शुभ वेळाचे आगमन
दोनि नशीबाचे मिलन।

सगटाचे पशि श्रेष्ठ दान
लक्ष्मी दित्ताय नारायणाक
दोनि तन एक मन
सत्तय जन्मान्तु तीचि बायल बमणाक।

एकमेकाली ऊर्जा जावनु
कोरूक संसार विषया तरण
अशिशि सात वचन दीवनु
कडताय अग्नीचे प्रदक्षिण।

म्हलगड्याले आशीर्वादान
पुरते जत्ता ह्ये शुभ कर्म
सदा एकमेळी जांवका मनान
पालन कोरूक सनातन धर्म।।



# जीवन यात्रा

येत्ताय एकु दीसु
कोरूक इहलोकान्तु वासु
देवान करतेरि उडगासु
विस्सरताय सोड्डूक श्वासु।

भूमीरि येत्ताय जन्मु घेवनु
ऊंच चोणु खाल देवनु
सुख दुःख सग भोग्गूनु
देवा लगि दया मग्गूनु।

देहाक जांवची पीडा
देवाक केवल क्रीडा
ह्ये लोकान्तु जन्मु अहो कष्ट !
कळना उत्तुले दीस शिष्ट।

जीवाक मेळतेरि स्पन्दन
ओड्डून मंदिताय बंधन
सिरकून पंचभूतान्तु
पोणु घुंवताय कालचक्रान्तु।

झाड वाडले रूकु जल्लो
सावळी दीवनु वोत्तान्तु राबलो
देह सोड्डूक जत्ता वेळु
चोंवका कालाचो एक एक खेळु।

पाप पुण्य मस्त केल्ले
केल्लेल्याचे फल मेळ्ळे
देवान दया केद्दाण केल्ली
जीवन यात्रा तशीचि सरली।।



# एमर्जिंग केरळा ?

भार्गवालि कूराडि लगून जल्लीली भूंयि ती
ब्राह्मणांक वण्टो घालनु दिल्लीली भूंयि ती
व्होड व्होड मनीषांक जन्मु दिल्लीली आवसु ती
देवाले स्वदेश म्होणु पावली मू ख्याति ती।

सह्य पर्वतान सदा केल्ले संरक्षण
सागरान स्वयं कैरळीचे केल्ले पोषण
विकासु पावनु जल्ली ती लोकाक उदाहरण
आयकाय तिजे भंगराचे पुत्तांले दुष्करण।

पर्चे पयरि जल्लो व्हड संरंभाचो आरंभु
देश विदेशान्तु थकून पावलो जन सागरु
विकासु लक्ष्य कोरनु तन्नि केल्लो व्होडु निर्णयु
इत्ति संगप तिगेलो पावलो बल्लाव समयु।

दान मेळ्ळीली भूंयि अन्य जनांक दीवप
आवसूक भागु-भागु कोरनु तंका विकप
अहो ! आश्चर्य जत्ता ह्यी कस्सली संस्कृति
कालचक्रान केल्ली आमची भ्रष्ट मति।



# खंय गेल्लें आमगेले मूल्य ?

खंय गेल्लें आमगेले मूल्य
जल्लीं अम्मि मृगां तुल्य
धर्म इत्ते कर्म इत्ते कळना
हांव म्हळेले लोकाचे भायर कांय ना।
खंय गेल्लें आमगेलें मूल्य ?

सात वचन संगून करताय व्हरडीक
सात जन्मांतुय एक्साणि म्होणु घालताय पिरड्डूक
सात दीस जावनु निंवगीताय मोचन
ते पवित्र बंधनाक मोल दीनाय सज्जन।
खंय गेल्लें आमगेले मूल्य ?

वड्डोवनु व्होड केल्लेले आवसु बापसूक सोणु
परगांवान्तु वत्ताय शिकवण काम म्होणु
पूतु येत्तोलो आवसु वाट पळयता
पूतु कर्मांतूय धर्मांतूय थकून दूर धांवता
खंय गेल्लें आमगेले मूल्य ?

आवसूय बापसूय कामांत व्यस्त
चेरडाचे पशि व्होड कायरिं अस्सय मस्त
घल्लो व्होरनु दूर विद्यालयान्तु
बाल्य गेल्लें तजे पोळ्ळो नरकान्तु
खंय गेल्लें आमगेले मूल्य ?

चांग बल्लाव सांगून आवसु बापसून वड्डयलो
कालि मेळ्ळेले प्रेमी खत्तीरि तांका फटयलो
निस्वार्थ जावनु तन्नि आमका सग दिल्लें
मनान्तु दिस्सले कोरनु अम्मि तें रीण भरलें
खंय गेल्लें आमगेले मूल्य ?

आबु आयि घरकडे अस्सय म्हन्तारीं
बळतूव्या वर्तमान उल्लयताय दोनि चारि
घल्लो तंका व्होरनु वृद्धाश्रमान्तु
एक थेंबो रगत नत्तिल्लें दोळ्यान्तु
खंय गेल्लें आमगेले मूल्य ?

संस्कार सोड्डूक कसले कष्ट ना
तरी धर्मान्तु परतून येंवचाक कसली वाट ना
आजि केल्लेले कर्माचे फल फाय मेळतलें
बड्डी दिल्यार अम्मीयि पेट्टूय घेत्तलीं
मूल्य न्हय अम्मीचि तं शेण्डूनु गेल्यांय।।



# इत्याक जन्मु दिलो ?

णव मास तूं गर्भान्तु धरलो
जांवचानीक कोणालकी व्होण्टीन्तु घल्लो
केद्दाण मेजि दृष्टि जल्ली सम
वत्तालि दिक्किलि तूं अस्स खंय काम।

भास येंवचे फूडे व्होरनु घल्लो बालवाडीन्तु
सांज थांय बेसतालो हांव तुजि वाट पोळोवनु
वर्षां तीनि जांवचानीक व्होरनु घल्लो शाळेन्तु
उत्तम शिकवण हांव दित्ता गांवकाराक कोळोवनु।

पोरतून घरान्तु येत्तरि विशेषु आयकूक तूं ना
पोट्टान्तु विन्दूर धांवतेरि आयदनान्तु कांय ना
तूं मक्का जन्मु दिल्लो शिकयलो वड्डेयलो
तुगेलो वेळु मेळूक हांव केदनाय तरसेलो।

अत्तॅ तुम्का त्राणि ना चोंवचाक मक्का वेळूय ना
शिरापीता तू इत्याक रे हांव जन्मु दिल्लो तुक्का
ह्येंचि तं हांव निंवगीता जल्यार जाप मेळूक ना
इत्याक की तूं जन्मु दिल्लोलो मक्का।।



# सपन

कोणकी म्हळ्या सपन दिक्काय
आकाश तॅ सीमा
जल्यार वार्या लगि उब्बूनु गेल्यार
आमगेले लक्ष्यार अम्मि पांवना।

आज मेघान्तु घर केल्यार
फाय पावसा लगि पडतलि खाल
तरंगान्तु पोणु खाल ऊँच
पोंवयात समुद्रांतु विशाल।

चन्द्रेमा धनी जांवचा गेल्यार
सग दीसूय उम्मास
उज्या लगि खेळू चोयल्यार
कर्पूनु वत्तले वरलेले श्वास।

अप्पळेले सग भंगार केल्यार
सित्ता उण्डीय गीळूक जांवना
सपन दिक्कून व्यर्थ गेल्लेलो
वेळु पोरतूनु मेळना।

दिक्काय सपन राति दीस
ते न्हय कसले अपराध
सपन चोवनु तन्तु अम्मि
शेण्डूनु गेल्यार बाधा।



# मन्न

सुखाचे मगल्यान तू भोंवशि रे मन्ना
दुःख मळ्यारि तू भिश्शि रे मन्ना
सुख जल्यारि ते आमका मायेन्तु घलता
दुःख ते आमका देवाले निकट व्हरता।

जांवचेयि जल्लेलेयि जांवचावच्चेंयि चंगाक
देवान दिल्लेले सग आमचे बरेपणाक
देवाले स्मरण मन्ना, करि रे सदा
मायेचे तरण कोरनु जैतवन्तु जा।

वायट विचारांचे त्यागु करि रे
देवाले चिन्तनान तू शुद्धि पांव रे
देवाले कयरान्तु आनन्दु सोदि रे
तगेले चरणांरि तू वासु करि रे।।



# दशावतार

महाविष्णूलि ती महिमा अपार
धर्मरक्षणार्थ तो धरता अवतार।
महाप्रळय ते भूमीरि आयले
सृष्टींचे बीज मत्स्यान रक्कीलें।
देवासुरान समुद्रु घण्टीलो
कूर्मान फट्टीरि मन्धरु धरलो।
आदिदैंत्याक वराहान मारलो
भूमीदेवी उद्धारु ताणे केल्लो।
प्रहळादान भक्तीन देवाक अपेयलो
नरसिंहु आयलो हिरण्याक मारलो।
धर्मिष्टु बलि तो गर्विष्टु जल्लो
वामनान तक्का पाताळान्तु पावेयलो।
क्षत्रियाले दुष्कृत असहन जल्ले
दुष्टाले निग्रह भृगुरामान केल्ले।
अयोध्येन्तु पुरुषोत्तमु रामु जल्लो
राक्षस रावणालो प्राणु कळ्ळो।
श्रीकृष्णान जनाले मन ते फरले
धर्माचे संस्थापन ताणे केल्ले।
बुद्धान यज्ञादिचे निन्दा केल्ली
जनांलि बुद्धि विमोहित जल्ली।
अधर्माचे नाशाचो जत्तना वेळु
घोड्या फट्टीर बेस्सूनु येत्तोलो कल्कि देवु।
भक्तवत्सलु तो श्रीनिवासु
जप्पायि नाम तजे राति दीसु।



# गोश्रीपुरेशु

श्रीदेवी रमणा श्रीपत्मनाभा
भूदेवी बमणा भूलोकनाथा
वेदान्तवेद्या वीर वेंकटेशा
राक रे गोविन्दा गोश्रीपुरेशा।

नृपति नृसिंहाले नगरीन्तु
श्रीनिवासु तूं जल्लो स्वयंभू
अधर्मु अधिक असहन जल्ले
विजय नगर तू विस्सोरनु आयलो।

गोश्रीपुरान्तु गोविन्दु आयलो
गोश्री जनांलो जनार्दनु जल्लो
अनेक अत्भुत लीला तूवें केल्ली
मायेन्तु जन तीं मोहित जल्ली।

आश्रितांक तूं अभय प्रदान करता
भक्तांक सौभाग्य भोरनु तूं दित्ता
चारीयि दिक्कार चैतन्य तुजे
सर्वदा सर्वथा संरक्षण दित्ता।

गरुढवाहना गोपालकृष्णा
रमारमणा सीताभिरामा
भक्त हृदयाचे हर्षाचे हेतु
राक रे सदा तूं गोश्रीपुरेशा।।



# हनुमन्तु

पवनपुत्रु तो हनुमन्तु
केसरी नन्दनु तो बलवन्तु
आञ्जनेयु तो भक्तोत्तमु
श्रीरामदूतु वानरसत्तमू।।

रामरस पीवनु अमरु जल्लो
रामाले चरणारि तो आनन्दु पवलो
रामदासु तो महाबुधवन्तु
सदा मग्नु रामाले सेवेन्तु।।

स्मरण करता सदा राम नाम
जिब्बेरि खेळता तजे श्रीराम राम
करता रामु वासु तजे हृदयान्तु
खंय राम नाम थंय हनुमन्तु।।



# इत्याक तूं वृन्दावन सोणु गेल्लो?

कृष्णा तूं गेल्लो इत्याक वृन्दावन सोणु ?
ते उपरान्ते आयक इत्ति जल्ले म्होणु
नन्द रय्याक कामान्तु लगना मन
यशोदेले मन तू फरलें, शेष सोळें तन।

राधिकाले दुखाक ना एक शीम
जल्ली ती गृहण लगलो चन्द्रीम
डोळ्यान्तु थकून व्हळता उदाक थीर
सगळे वृन्दावनान्तु आयले हूँवार।

गोपी तीं तुक्का सोडूनु भोंव्ताय
रोडूक हसताय तन्नि हस्सूक रडताय
घरान्तूले कोळसे फुट्टोवनु घलताय
तुज्जे भय्यान लोणि निप्पोवनु दवरताय।

वसूरां ती दूध पिंवचाक वच्चनाय
गेल्यारीयि गय्यों तंका दूध दीनाय
दुध दिल्यारीयि जन धार काणाय
धार कळ्यारीयि ते दूध कोण पीनाय।

वृन्दावनान्तूली फुल्लां सग बँवलीं
तुक्का सोडून सवणी गांव गांव भोंवलीं
सर्वे जनालो हासु तूँ फारनु व्हेल्लो
इत्याक तूं वृन्दावन सोणु गेल्लो ?



# बालकृष्णु

श्री कृष्णाले ते चैतन्य स्वरूप
भक्तमनान्तुले मोहन रूप
गोकुलान्तुलो तो बाल गोपालु
जल्लो राक्षसि पूतनेचो कालु।

मेघवर्णाचे ते कोमळ गात्र
पत्माक्षा फुल्ला वरी तजे नेत्र
केस्सारि बंदिल्या मोराचे पाक
भारी चंद अस्स तक्का दिक्कूक।

मकर कुण्डळ अस्स कन्नारि
गन्धाचो तीळो अस्स निडळारि
दोळ्यान्तु काळे कज्जल सुंवल्यां
ग़ोमटेरि वैजयन्ती माळा घल्या।

वज्राचे कंकण अस्स हत्ताक
भंगराचो पट्टो तो अस्स कुर्टाक
पय्यांक गगरीयां पांयजळां घल्या
बालकृष्णाक पीतांबर न्हेसेयल्या।

मन्कुट्यान चोरनु तो बाळु भोंवता
मेजे - मन चोरु तो फारनु व्हरता
कृष्णु तो भक्तांचे पालन करता
सर्वयि तक्का हांव अर्पण करता।



# कृष्णालि कागालि

नन्दाले घरान्तु गोपी आयल्यांय
कृष्णालि कागाळि तन्नि कोरचें आयकाय
"यशोदे कृष्णु तुजो खंय अस्स तो
सौम्यु दिस्ता पूण महा मस्तो।
वेणु नादान आमचे मन हरता
घरान्तु चोणु तो लोणी फरता।

सन्त निप्पूनु आमचे घरान्तु चडता
चेरडुबाळांक सर्वांक संग हाडता
दिक्किल्ली लोणी सग फारनु खत्ता
शेष वर्लेलि मंकडांकेय दित्ता
फातर विन्दूनु आमचे कोळसे फोडता
गोपी जनांक सर्वांक खेळु करता।"

कोप्पान यशोधेन बेत कळ्ळे
आवसूक थंड कोरूक कृष्णान म्हळ्ळे
"आवय, हांव तुजो मोगा पूतु
स्नेहु करता मक्का की तंका तूँ ?
खरे तां हांव फरलीना लोणी
कुसुंगी गोपी हान्नि करताय काणी।"



# तुजो उडगासु

तूं गेल्लो कृष्णा मक्का सोणु
हत्तान्तु मेजे दोव्वोरनु वेणु
तूं विना कशि वत्तले दीस
काडूक विसरली हांव श्वास।

चोंवचे सग जत्ता स्तब्ध
गीन्तु म्हळयार येनाय शब्द
नृत्य कोरूक हल्लनाय पाय
जल्ले निर्जीव ह्यी काया।

दुःखाचे मोड दोळयान्तु थकूनु
पावसु जावनु व्होळता तुक्का सोडूनु
पूरो ह्ये राधिकाक तुजे उडगासु
काडूक जन्म अनेक सासु।



# भक्तीचि शक्ति

नारायण म्हळ्ळेले चार अक्षराचे बळ
अयकाय भक्तजना मन कराय निवळ।।
नारायणा हरे नारायणा हरे नारायणा हरे नारायणा।

असुरवंशान्तु जल्लो प्रहळादु भक्तोत्तमु
तातु हिरण्य कशिपु तो दानव सत्तमु।
प्रहळादाले भक्तीक भंगु हाडूक चोयलो
देवालगि थकून दूर काडूक प्रयत्नु केल्लो।
निष्फल जावनु तजो प्राणु काडूक सरलो
नारायण नारायण तो बाळु जप्पीता जल्लो।। (नारा...)

होळिका म्हळ्ळेलि हिरण्याली भयणी आयली
प्रहळादाक व्हण्टीन्तु घेवनु उज्जान्तु ती बेस्सली
भक्तिकवचान ते प्रहळादाले रक्षण केल्लें
अग्नीन स्वयं तिजे प्राण हरण केल्लें।
नारायण म्हळ्ळेले नंव्वाचे आश्रयान
प्रहळादान संकटाचे केल्ले तरण धैर्यान।। (नारा...)

आयकाय एकु दीसु भक्ताक मेळ्ळो भगवन्तु
बाळु प्रहळादु जल्लो व्होड परीक्षणान्तु
हिरण्यान निंवगीले खंय तुजो विष्णु ? म्होणु
प्रहळादान ह्यें म्हळ्ळे सर्वत्र नारायणु।
वासु करता तो हरि मेज्जेय तुज्जेय हृदयान्तु
तो विना ना संसारु ना जीवु ह्ये लोकान्तु (नारा...)

पुत्ताले जाप आयकून बपसूक आयलो क्रोधु
कालाक निमन्त्रण तो दित्तालो स्वयं साधु।
खंब्यारि केल्लो जोरार गदेन ताणे प्रहारु
भितर थकून निनादु गर्जनाचो आयलो घोरु।
भक्तीन स्वयं ओड्डूनु हळ्ळो नारायणाक
म्हण्ता तो देवा हाँव त्रसित दर्शनाक।। (नारा...)

देवुय न्हय दानवुय न्हय मानवुय न्हय यक्षुय न्हय
ब्रह्माली सृष्टि न्हय तो नरहरी रूप चोय्याय।
दिस्साय रत्तीय न्हय सन्ध्ये वेळारि आयला
हिरण्याक व्होण्टीन्तु घेवनु हुंबराचेरि बेस्सला
नंकुटान पिस्सुळ्ळे दुष्टाले ते शरीर
चारीय दिकारि व्हळ्ळे पापाचे ते रुधिर।। (नारा...)

चौदाय लोकं भिल्लें घोर ते रूप चोवनु
कशी करप नरहरीले क्रोधाचो शमनु ?
निकट प्रहळादु तो गेल्लो नमन कोरनु
धन्यु हाँव जल्लो देवा तुजे दर्शन पावनु।
प्रसन्न देवान तक्का बेस्सेयलो व्होण्टीन्तु काणु
निंवगीले इत्ति वरु जांवका रे बाळा ? म्होणु।। (नारा..)

मोहान मानवु तो मायेन्तु व्होळनु वत्ता
सुख सोड्डूनु सग संकटान्तु तो जत्ता
मेजे मनान्तुले मोहाचे मूळ हुमटावनु काडि
भक्तांलो भक्तु हांव भक्ति ती करी चडि
प्राणाचे गरज तुजे स्मरण जावो
भुक्केचे शमन तुजे नमनान जावो। (नारा..)

प्रहळादाले भक्तीक तुल्य ना ये लोकान्तु कांय
नरसिंहालो समानु ना एकु देवु खंय।
मायेन्तु थकूनु देवा मोचन दी तू आमका
राती दीसु तुजी सेवा कोरूक जांवका
मन आमचें तू देवा भक्ति भावान भरि
म्हणाय जना तुम्मी नारायणा श्री हरी।। (नारा...)



# हरिहर

महादेवु कैलासारि
वैकुण्टान्तु श्री हरि।
मग्न तीं ध्यानान्तु
करताय कल्याण लोकान्तु।।

शंकरु म्हणता केशव
नारायणु शिव शिव
एकमेकालि कोरनु पूजा
एकि जत्ता तंची ऊर्जा।।

ना कोण व्होड ना सान
ह्ये अम्मि जांवका जाण।
श्रीनिवासु रक्कीता सृष्टि
संहारा हेतु शिवालि दृष्टि।।

ना तंका आदि न अन्त
दोग्गालीय महिमा अनन्त
कोण म्हण्ता हरि हर
तो पांवता संकटा पार।।



# घनश्यामा

मस्त जल्ली मेज्जान चूकि
भोगिली नेणतना दुक्कि।
केल्ले पाप अनेक
ना संगूक कसले लेक।
सर्व अपराधाचे कोरनु क्षमा
राक सदा मेजे घनश्यामा।
तूंचि रक्षक तूंचि शिक्षक
तुजे पय्यांकडे नत मस्तक।
खेळेय रडय मक्का सग स्वीकार
तुजेरि थकून मक्का कडशि दूर।



# मर्यादा पुरुषोत्तमु

मर्यादा पुरुषोत्तमु रामचन्द्रु
रूपान सोमु तो गुणान इन्द्रु
विष्णुले वीर्य वरुणाले गांभीर्य
पर्वत राय हिमवानाले धैर्य।

क्षमेन्तु तो अवनीचे समानु
त्यागा खतीर वैश्रवणालोय आनु*
अग्नीलो क्रोधु बृहस्पतीलि मति
सूर्य किरणा वरि व्याप्त ती कीर्ति।।

(* अण्णा)



# रामस्मृति

धर्म संस्थापनाचो वेळु पवलो
सत्तवो अवतारु श्रीहरीन् धरलो।।

दशरथा पूतु जावनु जन्मु घेत्तोलो
श्री रामचन्द्रु तो रमणीयु जल्लो।।

लक्ष्मण-शत्रुघ्न-भरतालो तो आनु
अयोध्या नगरीचे जनालो प्राणु।।

वसिष्ठाले गुरुकुलांतु रामु गेल्लो
सकल विद्येन्तु पारङ्गत जल्लो।।

कौशिकाले यज्ञ रक्षण हेतु
रन्नान्तु गेल्लो लक्ष्मण समेतु।।

राक्षसि ताटकालो प्राणु कळ्ळो
दुष्ट सुबाहूलो श्वासु सोडेयलो।।

मारीचाक् समुद्राचे पार पावेयलो
विश्वामित्रु तन्तु सन्तुष्टु जल्लो।।

अहल्याक मुक्ति प्रदान केल्ली
राम महिमा ती विख्यात जल्ली।।

जनक रय्याले जनकपुरीन्तु
गेल्लो तो त्रयंबक दर्शन हेतु।।

घन ते धनुष हत्तान्तु कळ्ळें
मिथिलाचे जनांक आश्चर्य जल्लें।।

शिवधनुष ते दोनि कोरनु मोळ्ळें
सीतेचें स्वयंवर सफल केल्लें।।

लक्ष्मी नारायण मिलन पावले
चारीय भौण्डालें विवाह जल्ले।।

भृगुरामाले क्रोधाचे शमन कोरनु
अयोध्येन्तु पावलो तो सीतारामु।।

अयोध्यापुरीचो राजकुमारु
श्री लक्ष्मीरमणु तो सुकुमारु।।

## अयोध्याकाण्ड

कैकेयीन् मन्थराले मन्त्रण आयकीले
रय्यालगी दोनि वर मग्गीलें।।

स्वपुत्र भरताक राज्याधिकारु
चौद वर्षांक रामाक वनवास कालु।।

बापसूलो उपदेशु पालन केल्लो
आदर्श पुत्रु तो रन्नान्तु गेल्लो।।

सीताय लक्ष्मणूय अनुगामि जल्लिं
अयोध्या नगरी ती शोकान रळ्ळी।।

शृंगिवेरपुरीन्तु रामु पावलो
ते खत्तीरि गुहु सन्तुष्टु जल्लो।।

पुत्रवियोग असहन जल्ले
दशरथान् स्वर्गारोहण केल्ले।।

भावु भरतु तो दुःखित जल्लो
सिंहासन त्यज्जूनु रामालगि आयलो।।

पावन ते राम पादूक घेवनु
गेल्लो तो भरतु नन्दीग्रामान्तु।।
चित्रकूट सोणु श्रीरामचन्द्रु
गेल्लो महर्षि अत्रीलाश्रमान्तु।।

## अरण्यकाण्ड

दण्डकारण्यान्तु प्रवेशु केल्लो
थंगा पक्षिश्रेष्ठु जटायु मेळ्ळो।।
विरूप विराधाले वध केल्ले
निशाचराले नाश निश्चित जल्लें।।
आयलि शुर्पणखा पञ्चवटीन्तु
कामित जाव्नु रामाले रूपान्तु।।
लक्ष्मणान् तिग्गेले नांक कत्तरलें
प्रतिकार रूपान खर दूषण पावले।।
मारीचु भंगराचे चित्तळा रूपान
केल्लें मैथिलीचें मोहित मन।।
चितळाक धोरूक श्रीरामु गेल्लो
कपट कोरनु तो मारीचु मेल्लो।।
रामा खातीर सीतेक विचारु जल्लो
सीतेचे आदेशान् लक्ष्मणु गेल्लो।।
साधु रूपान ते दशाननान
केल्ले जानकीचें अपहरण।।
सीतेचे रक्षणाक जटायु पावलो

रावणान् तक्का निष्कृपा मारलो।।

सर्वत्र सीतेले अन्वेषण केल्लें
श्रीरामाले मन व्याकुल जल्लें।।

भक्त शबरीलाश्रमान्तु गेल्लो
तिक्का मोक्षु ताणे प्रदानु केल्लो।।

## किष्किन्धा काण्ड

शबरीले, निर्देशान् श्रीरामचन्द्रु
ऋष्यमुकारि गेल्लो लक्ष्मण संगु।।

पर्वताचेरि रामाक हनुमन्तु मेळ्ळो
सुग्रीवाक मित्र जावनु स्वीकारु केल्लो।।

अति बलि बालीलो संहारु केल्लो
सुग्रीवु किष्किन्धेचो रायु जल्लो।।

वानरांचि सेना एकत्रित केल्ली
सीतेचे अन्वेषणाक मग्न जल्लीं।।

## सुन्दर काण्ड

लङ्का नगरीन्तु पवलो हनुमन्तु
सीतेक सोद्दूनु तो राम दूतु।।

महा समुद्राचे तरण कोरनु
उत्तम भक्तु तो पवन पुत्रु।।

अशोक वनान्तु सीतेक दिक्कीलि
रामालि मुद्दी ती सीतेक दिल्ली।।

लङ्का नगरीचे दहन कोरनु

रामालगि आयलो सन्देशु घेवनु।।

## युद्धकाण्ड

रामाले नांवाचो संकोवु मंदीलो
सेना समेत रामु लङ्केन्तु पावलो।।

घोर संग्रामाचो संरंभु जल्लो
रावणाले नाशाचो वेळु पावलो।।

कुंभकर्णालो प्राणु रामान कळ्ळो
मेघनाथालो नाशु लक्ष्मणान् केल्लो।।

लङ्केशु रावणु युद्धाक पावलो
रामान तग्गेलो प्राणु तो कळ्ळो।।

विभीषणाक लङ्केचो रायु केल्लो
सीता सैत रामु अयोध्यान्तु पावलो।।

रामालो अभिषेकु सम्पूर्ण केल्लो
चौदायि लोकांचो नाथु तो जल्लो।।



# भारत माते

जय जय जननी भारत माते
कोटि जनाले जीवना नाथे
त्रिशूल धारिणी करता वन्दन
तुजे सेवेक अर्पित तन मन।

मस्तक तुजे हिमाद्रि सज्जयता
पाद कमल महासागर धुत्ता
तू सरस्वति तूंचि तॅं दुर्गा
जन्म भूमी तुजा व्होड ना स्वर्ग।

तूं दिल्लेले संस्कार सोळेना
तुजे रक्षणाक सदा सज्ज ह्यी सेना
तूंचि धर्म तूंचि तॅं कर्म
तुजे सन्तान म्होणूक गर्व।



# विश्वास

विश्वास सर्व बन्धनाचे आधार
विश्वास सगळे संसाराचे सार
घालि रे देवाक विश्वासाचे हार
करि रे सर्व संकटाचेय पार।

भिण भिण काळूकान्तु भंय्य जत्तना
मनान्तु भिन्न विचार भरतना
कोण देवारि सग अर्पण करता
विश्वास तगेले रक्षण करता।

धर्मसंकट जीवनान्तु आयले
धैर्य मनाक सोणु गेल्ले
करि रे देवाले नाम स्मरण
विश्वास करेयता संकटाचे तरण।

ना तुक्का सोयरो ना तुक्का मित्र
ना तुगेलगि धन ना खंय सत्र
वचरे देवाले शरणान्तु निर्भय
विश्वास दित्ता तुक्का अभय।





## अञ्जलि किणि


निजाचें नाँव : स्मृति एम. किणि

जन्मु : ०२/०६/१९९४

आवसु-बापूसु : आशा किणि अनि एस. मनोहर किणि

आबु-आयि : ए. राम प्रभु अनि सुनीती प्रभु
(दि.) वी.श्रीनिवास किणि अनि (दि.) जाह्नवि किणि

शिकवण : बी.कॉम , एल.एल.बी (तिसरे वर्ष)

कोंकणी प्रवर्तन : कोच्चीचे 'स्पन्दन' कोंकणी मासिकेरि २०१० नवंबर धोर्नु कविता,गींत,काणि,लेखन,रसपति इत्यादि बरोवनु एत्ता. अंचिकम्मळ (एरणाकुळम) चे 'वैष्णवरत्न' मासिकेरि अनि 'दीपांकुर' वार्षिकारि , गोंयांतुले 'बिंब', 'निर्माण' इत्यादि मासिकेरि अनि 'भांगरभूंय' दिनपत्रारि कविता इत्यादि एयल्या. कोंकणी केन्द्र - गोश्रीपुर आयोजित कोंकणी कविसंगमांतु अनि इतर वेदींचेर कविता वाचन करप अस्स. कोंकणी केन्द्र - गोश्रीपुर आयोजित कोंकणी सप्ताहांतु सजीव भागु घेवप अस्स.

पत्तो : ४/१२८१ , नोर्त चेरळाई, कोच्ची ६८२००२

दूरभाष (Tel) : 0484 2225221






**कोंकणी केन्द्र - गोश्रीपुर**
**कोच्ची**